# जाग

वर्स ३६ : आंक १ : ऑगस्ट, २००९






* संपादपी
माधवी सरदेसाय
(मोबायल: ९४२११५७००७)

संस्थापक



स. सुमंत केळेकार

* उजवाडावपी
डॉ. जयवंत भा. सरदेसाय

* छापपी
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.

वर्सुकी पटी : रु. १५०/-
विद्यार्थ्यां खातीर : रु. १२५/-
तीन वर्सांची पटी : रु. ४००/-
पटी मनी ऑर्डरीन वा बँकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची. ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमेंट्स्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. १२/-

jaag04@yahoo.co.in


## ह्या आंकांत :



चित्रां...
भायलें चित्र:
डॉ. सुबोध केरकार
पान : १३
: आसावरी नायक
पानां : २०
: सुशांत नायक
पानां : २४
: उषा सरदेसाय

## नदर संपादप्याची

# किराची काणी...

एक आशिल्लो कीर. उडटालो गायतालो, मिरसांगो पेरां खातालो. पूण अभ्यास म्हणटात तो करी नाशिल्लो. चाली-रिती, कायदे-नेम कित्याचीच ताका जाण नाशिल्ली.

राजाक दिसलें, कितें उपेग असल्या ह्या किराचो?

आनी ताणें मंत्र्याक आपोवन सांगलें, 'ह्या किराच्या शिक्षणाची वेवस्था करात.'

किराच्या शिक्षणाचें काम मंत्र्यान राजाच्या भाच्याचेर सोंपयलें.

भाच्यान पंडितांक आपोवन हाडले.

पंडितांनी बसून खूब येवजिलें. भासाभास केली. कीर इतलो अशिक्षीत उरलो कसो, तांकां प्रस्न पडलो. निमाणे ते एका निर्णयार पावले :- शेवण्यां-सुकण्यांचे घोंटेरूच मुळांत अर्दकुटे. ह्या काडयां-बडयांच्या घोटेरांक गिन्यानाची जडसाण कितलीशी पेलतली?! म्हूण, सगळ्यांत पयलीं एक घटमूट बरो पांदरो जाय.

पंडितांक दक्षिणा मेळ्ळी. ते खुशालभरीत जावन घरा परतले.

भाच्यान शेटीक आपोवन हाडलो आनी एक गडगंजसो भांगराचो पांदरो करूंक लायलो.

शेटीन बऱ्यांतलो बरो पांदरो तयार केलो.



भांगराच्या पांदऱ्याची खबर सगळ्याक पातळ्ळी. खांचीं कोनशांतल्यान लोक तो पळोवंक येवंक लागले. कोणें म्हणचें, 'कितें बाबा शिक्षण...!' तर कोणें, 'असलो पांदरो केन्ना पळेलोच ना... भाग्यवान हो कीर...!'

शेटीक भरपूर बिदागी मेळ्ळी. तो खोशशी जावन घरा गेलो.

पंडीत अभ्यासक्रम आंखपाक बसले. 'पोथयो तयार करून घेवच्यो पडटल्यो...' तांणी म्हळें.

पोथयो बरोवन काडटल्यांक आपोवन हाडले. पोरण्या पोथयांच्यो नकलो तयार जाल्यो. पोरण्या नकलांच्योय नव्यो नकलो तयार जाल्यो. पोथयांची दोंगरा येदी रास जाली. पळेतल्यान म्हणचें, 'आकांत आं शिक्षण...!'

पोथयो बरोवन काडटलेय बक्षीस घेवन तुश्ट जावन घरा गेले.

राजाचो भाचो जीव ओतून पांदरो सांबाळटालो. तो चक्क बरो उरचो म्हूण सान्न मारपी, पुसपी, धुवपी, घयरांव काडपी लोकांची एक फौजूच ताणें कामार नेमली. हे लोक सारके काम करतात काय ना तें पळोवपाक तांचे वयर आनीक कांय जाण नेमले. सगळ्यांक म्हयन्या म्हयन्याक पगार मेळूंक लागलो आनी हो सगळो व्याप पळोवन लोक म्हणूंक लागले, 'हाका म्हणटात उदरगत!'

ह्या राज्यांतूय निंदक आशिल्लेच. हांतल्या एकल्यान म्हळें, 'सगळी अर्थ-अपुरबाय चल्ल्या ती पांदऱ्याचीच. पोपटाक कोण पळेता?!'

खबर राजाच्या कानार पावली. ताणें भाच्याक आपोवन हाडलो आनी विचारलें, 'हांव आयकतां तें खरें?'

भाच्यान म्हळें, 'म्हाराज, खरी खबर जाणा जावन घेवपाची आसल्यार शेटीक, पंडितांक, पोथयांच्यो नकलो करतल्यांक आपोवन हाडून विचारात. पांदऱ्याची निवळकाय करतल्यांकूय विचारात जाय जाल्यार... हे निंदक पडल्यात बेकार! तांच्या पोटाक कांय मेळना म्हूण ते अशे निंदा करतात."

राजाक खरी परिस्थिती कितें ती कळ्ळी. भाच्याच्या गळ्यांत भांगराचो हार पडलो.

किराचें शिक्षण कशें चल्लां तें आपणें खासा एक दीस भेट दिवन पळोवचें अशें राजाक दिसलें. इश्टा-मित्रांक, मंत्र्यांक-चाकरांक घेवन एक दीस तो शाळेच्या दरवट्यार हाजीर जालो. राजा आयला तें पळोवन रोखडेच धोल, ताशे, घुमट, शेनाय, म्हादळीं, कासाळीं वाजूंक लागलीं. पंडीत मेकळ्या ताळ्यान शेंडयो हालयत मंत्रपाठ करूंक लागले. पोथयांच्यो नकलो करपी, पांदऱ्याची निवळकाय करपी, बापोलभाव, तिपोलभाव, मामेभाव, आतेभाव, मावशेभाव - सगळ्यांनी राजाचो जयजयकार केलो.

भाच्यान म्हळें, 'म्हाराज, पळेलें?'

राजान म्हळें, 'खऱ्यांनीच, अजाप म्हणपाचें!'

खोशी जावन राजा परतो हतयारं चडूंक वतालो. इतल्यान, शाळे कुशीकच्या झिलींनी आंग चोरून लिपून बशिल्ल्या निंदकान म्हळें, 'म्हाराज, किराक पळेलो?'

'हय मरे ! सामको विसरलों. किराक पळेलोच ना!' राजान म्हळें आनी पंडितांक सांगलें, 'किराक तुमी कितें शिकयतात, कशे शिकयतात तें हांव पळोवंक सोदतां. तुमी तयार केल्लो अभ्यासक्रम मातशे हाडून दाखयशात म्हाका?

अभ्यासक्रम किरा परस कितल्याश्या पटींनी व्हड आशिल्लो. राजा खुशालभरीत जालो आनी किराक पळोवंक गेलो.

लकलकीत, चकचकीत पांदऱ्यांत कीर बशिल्लो. पांदऱ्यांत उदक, पेर, भिकणां-कांय नाशिल्लें. फकत पोथयांचे राशींतलीं कांय पानां पिंजून लेखणेच्या तोंकान तीं किराच्या तोंडांत धोंगशिताले. कीर गाय नाशिल्लो, किळच्योय मारी नाशिल्लो.

हतयार चडटा आसतना राजान कान पिळपी सरदाराक उलो मारून आपोवन हाडलो आनी सांगलें, 'हे थंय झिलींनी निंदक बसला. वचून ताचो कान बरोऽ पीळ.'

कीर दिशीं दिशीं सुशिक्षिता बशेन जीव नाशिल्लो कसो जावंक लागलो. ताच्या पालकांक ताच्या गिन्याना विशीं आस्त दिसूंक लागली. पूण तरी सभाव-दोशाक लागून किरान सकाळच्या उजवाडा कडेन पळोवचें आनी पाखाटे फडफडावचे. इतलेंच न्हय, केन्ना केन्ना आपणाले कट्टरे चोंचीन पांदऱ्याच्यो सळयो तोडपाचो यत्न करचो.

कोतवालान म्हळें, 'आब्बा! कसली चलणूक ही!'

तेन्ना शाळेंत लोखण, भातो, तुतयो, घण, उजो घेवन दवड आयलो, लोखणाची सांखळ तयार जाली. किराचे पाखाटेय कापून उडयले.

राजाचे सोयरे गंभीर तोंडां करून म्हणूंक लागले, 'ह्या राज्याच्या शेवण्यांक ना बोड... पडमूर खंयचे कडलीं!'

दवड बिदागी घेवन गेलो. कोतवालाचोय भोवमान जालो.

कीर मेलो.

कसो, केन्ना, कोणाक कळ्ळें ना.

निंदकान वावडी पातळायली - 'कीर मेलो!'

राजान भाच्याक आपोवन विचारलें, 'हांव आयकतां ती खबर खरी?

भाच्यान म्हळें, 'म्हाराज, किराचें शिक्षण सोपलें.'

राजान विचारलें, 'आतां तो उडयो मारता व्हय?'

'उडयो खंयच्यो!' भाच्यान म्हळें.

'आनी उडटा?'

'ना.'

'गायता?'

'ना.'

'खावंक पेरां, बियो मेळ्ळ्यो नात जाल्यार आड्डता?'

'ना.'

'किराक मातसो पळोवंक मेळत?'

कीर आयलो. वांगडा कोतवाल, शिपायक, घोडसुंवार...

राजान किराक दांबून पळेलो. ताणें कांयच आवाज केलो ना.

फकत ताच्या पोटांतल्या पोथयांच्या सुक्या पानांचो खस्स खुस्स आवाज जालो.

ही काणी रवीन्द्रनाथांली. भुरग्यां खातीर बरयल्ली.

रवीन्द्रनाथ, ताचे परस दोन वर्सांनी व्हड आशिल्लो ताचो फुडलो भाव आनी ह्या भावाचेच पिरायेचो एकलो भाचो - तिगूय वांगडा ल्हानाचे व्हड जाल्ले. घरांत भुरग्यांक शिकोवपाक एक मास्तर आशिल्लो. पूण शाळेंत वचपाची पिराय जातकच भुरगे शाळेंत वताले. भाव ('दादा') आनी भाचो ('सत्य'-सत्यप्रकाश) हांचें घरांतल्या मास्तरा म्हऱ्यांत बसून शिकप सुरू जालें तेन्ना रवीन्द्रनाथूय तांचे वांगडा मास्तरा सरीं वचून बसूंक लागलो. कांय तेंपान दादा आनी सत्य ओरियेंटल सेमिनरीचे शाळेंत वचूंक लागले. रवीन्द्रनाथ अजून ल्हान आशिल्लो म्हूण ताका घराच रावचें पडूंक लागलें. भुरग्यांनी घोड्या गाडयेंत बसून शाळेक वचचें आनी शाळेंतल्यान परतुचें. उपरांत शाळेचे वाटेर कितें कितें पळेलें, कितें घडलें तें सत्यान रवीन्द्रनाथाक तिखट मीठ लावन सांगचें. रवीन्द्रनाथ ते मेरेन घोड्या गाडयेंत बसूंक लेगीत नाशिल्लो. 'म्हाकाय बी शाळेक वचूंक जाय' म्हूण ताणें जाणटेल्यां कडेन हट्ट धरलो. तीं बदनात शें पळेलें तेन्ना शाळेक वचपाची आपणाली लायकी सिद्ध करूंक (हीं रवीन्द्रनाथांलींच उतरां) तो व्हडल्या व्हडल्यान रडूंक लागलो. तेन्ना घरांतल्या मास्तराच्यान सोंसूंक जालेंना. ताणें रवीन्द्रनाथाच्या तोंडार एक फुलयलें आनी म्हळें, 'आतां शाळेंत वचूंक जाय म्हूण इतलो रडटा, मागीर वचूंक नाका म्हूण हाच्याकूय चड रडटलो'. हो उगडास सांगून रवीन्द्रनाथ बरयतात, 'हाचे इतलें अर्थानं भरिल्लें भविश्य-वाक्य हांवें म्हज्या पुराय जिवितांत आयकूंक ना.'

ते मुखार सांगतात –

'रडून, हट्ट करून, शाळेंत वचपाची पिराय जाल्ली नासतनाय ओरिएंटल सेमिनरीचे शाळेंत पावलों. थंय कितें शिकलों, याद जायना. पूण थंयची एक शिकोवपाची रीत याद जाता – पाठ करूंक सांगिल्लो अभ्यास भुरग्याक म्हणूंक येना जातकच ताका बांकार उबो दवरताले, दोनूय हात मुखार करूंक सांगताले आनी हातांच्या तळव्यांचेर वर्गांतल्या पाटयांचे दाळ दवरताले.'

हे भाशेन हातांच्या मार्गांतल्यान अभ्यास मनांत, तकलेंत कसो पावता तें रवीन्द्रनाथाक केन्ना समजलेंना. शाळे वयलें, अभ्यासा वयलें ताचें लक्ष उडलें. ताणें शाळा सोडली. जाणटेल्यांनी ताका दुसरे शाळेंत घालो. हीय शाळा ताणें सोडली. अशे तरेन तीन शाळा सोडले उपरांत ताणें शाळेक वच नासतना घराच बसून शिकप म्हूण थारायलें.

मुखार रवीन्द्रनाथांक भुरगीं जालीं तेन्ना तांकांय तांणी शाळेंत घालीं नात. घरचे घराच मास्तर दवरून तांच्या शिक्षणाची तजवीज केली.

रुशींच्या आश्रमांचें, गुरुकुलांचें गिरेस्त आनी आगळें वेगळें दायज आशिल्ल्या ह्या देशांतली शिक्षण-वेवस्था कशी आसची ते विशीं रवीन्द्रनाथांनी खोलायेन विचार केल्लो. भुरग्याचे चित्तवृत्तीक अडेचे

शिस्तीच्या धाकांत बांदून दवरी नासतना सैमाच्या सान्निध्यांत, मेकळ्या वातावरणांत ताचें शिक्षण जावंक जाय; शिक्षण म्हळ्यार आत्मीक साधना, सत्य-साधना; ताचो फकत नोकरे-धंद्या कडेन न्हय तर पुराय जिविता कडेन संबंद आसूंक जाय अशें ते मानताले.

आदर्श शाळा कशी आसची तें संवसाराक दाखयतलों म्हूण तांणी बोलपूर गांवांत 'शांतिनिकेतन' ही संस्था स्थापन केली. सुरवेक ही फकत भुरग्यां खातीर शाळा आशिल्ली. मुखार कांय वर्सांनी तिचेंच 'विश्वभारती' विश्वविद्यालय जालें.

भुरग्याक शिकोवप म्हळ्यार ताका बरपाक्षरी करप, पुस्तकी गिन्यान दिवप, इतलेंच न्हय. ताका मातयेंत हात घालून झाडां रोवंक येवंक जाय; तरेतरेचे खेळ खेळूंक येवंक जाय; सैमाचे सुंदरकायेचो आनंद घेवंक समजूंक जाय; ज्या समाजांत आपूण रावतां ताचे खातीर आपणेंय कितें तरी करूंक जाय ही जाणवीक ताका शिक्षणा वरवीं जावंक जाय... भुरग्यां भितर तरेकवार कला आसतात - चित्रकला, बरोवपाची कला, नाच, गावप... ह्या कलांचो शिक्षणांतल्यान विकास जावंक जाय — 'शांतिनिकेतन' संस्था काडपा फाटल्यान हो सगळो विचार आशिल्लो.

त्या वेळा वयल्या चालंत शिक्षणाक रवीन्द्रनाथ कित्याक विटिल्ले? हें शिक्षण अडेचे शिस्तीच्या आनी शिक्षेच्या धाकांत चलतालें, तातूंत आनंदाक सुवातूच नासली म्हूण, एक. आनी दुसरें, ह्या शिक्षणाचो जिविता कडेन सुरमेळ नासलो. बंगाली भुरगीं फुडाराचे नोकरेचे आशेन शाळेच्या पांदऱ्यात बसून इंग्लीशींत घश्टे काडटालीं, इंग्लीशींतलें 'ज्ञान' पुंजायतालीं, आनी हाकाच समाज 'शिक्षण' लेखतालो...

रवीन्द्रनाथ बरयतात —

'आमच्या जिणे-रुखाचीं मुळां आसतात ताच्याक कितलेशे मिटर पयस आमच्या शिक्षणाचो पावस पडटा. जें थोडें-भोव उदक आमचे मेरेन पावता तें आमच्या जिवितांत ओलसाण हाडूंक पावना. जें शिक्षण घेवन आमी जीण सारतात तें एका वेवसायाचे शिमे भितरूच आमकां उपेगी पडटा. ज्या पेटलांत आमी आमच्या ऑफिसाचे कपडे दवरतात तातुंतूच आमचे विद्येकूय बंद करून दवरतात. आमच्या पुराय जिविता कडेन हे विद्येचो कांय संबंद आसना... आयच्या आमच्या भुरग्यांचो पुस्तकांचो संवसार एके कुशीक तर जियेवपाचो संवसार दुसरे कुशीक आसा. दोनां मदीं फकत व्याकरण-शब्दकोशाचो सांकव. हाकाच लागून आमची विद्या आनी आमचो वेव्हार हांचे भितर फूट पडल्या — एके वेटेन येवरोपी तत्वज्ञान, विज्ञान आनी न्यायशास्त्राचो पंडीत आशिल्लो मनीस दुसरे वेटेन सगळ्या पाड्या संस्कारांक पोसवण दिवपी जिवीत जियेता. एके वटेन स्वाधीनतेच्या आदर्शाचो प्रचार करपी दुसरे वटेन अधीनतेच्या शेंकड्यांनी पासांनी आपणाक तसो दुसऱ्यांक बांदून दवरूंक वावुरता. एके वटेन भाव-भावनेचे गिरेस्तकायेन भरिल्ल्या साहित्याचें रसास्वादन करपी दुसरे वेटेन आपणाल्या जिविताक भाव-भावनेचे न्हय तर धनाचे गिरेस्तकायेचे तेंगशेर पावोवपाक आंवडेता... शिक्षण आनी जिवीत हांचे मदली फूट सांदप हेंच आमच्या शिक्षणीक मळा वयलें सगल्यांत म्हत्वाचें आव्हान.'

रवीन्द्रनाथांच्या शिक्षण-विचारांत भुरग्याचे सभावीक भाशेक खूब म्हत्व आशिल्लें.

ते म्हणटात, बंगाली भुरगीं बंगालींतल्यान शिकिल्लीं जाल्यार रामायण-महाभारत वाचतलीं आशिल्लीं; कांयच शिकूंक नाशिल्लीं जाल्यार सैम-मायेच्या आंगाखांदार खेळून तुश्ट जातलीं आशिल्लीं. ज्या भुरग्यांक खेळपा खातीर व्हडलें आयस-पयस घर लेगीत उणें पडटा तांकां आयज आपणालें भुरगेपण खंय सारचें पडटा? विदेशी भाशेच्या व्याकरण-कोशाच्या सुक्या, सडसडीत अशीर संवसारांत. आनंद नाशिल्ल्या ह्या संवसारांत भुरगें फकत पाठ करूंक, अनुकरण करूंक आनी हेरांची गुलामी करूंक शिकलें जाल्यार कसलें अजाप?

भारतीय विश्वविद्यालय कशें आसचें हाचेर १९३२ वर्सा केल्ल्या एका उलोवपांत रवीन्द्रनाथ येवरोपांत विश्वविद्यालयाच्या मळार आर्विल्ल्या काळार घडिल्ल्या दोन मुळाव्या बदलांचेर बोट दवरतात. ते सांगतात, आदल्या काळार येवरोपी विश्वविद्यालयांचेर धर्मशास्त्रांचो शेक चलतालो. आयज हो शेक सोंपला आनी तीं विज्ञानाचे थीर आनी घटमूट बुन्यादीचेर उबीं आसात. दुसरो बदल भाशे विशींचो. एका काळार लातीन भासूच येवरोपांत शिक्षणाची भास आसली. हातूंत एक 'फायदो'य आसलो — येवरोपभरचे विद्यार्थी एके थीर, बदलना अशे भाशेंतल्यान शिक्षण जोडटाले. पूण हाका लागून एक नुकसानूय जातालें - विद्येचो उजवाड पांडित्याच्या वणटीं भायर भोव थोडो पावतालो. येवरोपाच्या वेगळ्या वेगळ्या देशांनी शिक्षणाचें माध्यम म्हूण आपणाल्यो घोळटिकेंतल्यो भासो आपणायल्यो तेन्ना शिक्षण सगळ्यां मेरेन पावलें.

बंगाली भाशेक विश्वविद्यालयाच्या पांवड्यार पावोवपा खातीर केल्ल्या बुन्यादी वावरा बद्दल आशुतोष मुखर्जीची तोखणाय करतना रवीन्द्रनाथ बरयतात, 'इंग्लीश भाशेचो थीर पांदरो इतले दीस आमच्या राज-दरवट्यार सुरक्षीत आशिल्लो. ताचें दार उकतें करून देशाचे चित्त-शक्ती खातीर घोंटेर बांदचो पडटलो म्हणपाचें आशुतोष सगळ्यांत पयलीं वळखले... आयज बंगाली भास शिक्षणाची भास जावपाक पुरायेन योग्य ना, तिचे भितर तितली परिपक्वताय ना. पूण हे अपरिपक्वतेचें कारण बंगाली भाशेचें दैन्य न्हय, तर तिचे सदयाचे परिस्थितीचें दैन्य हें आशुतोष जाणा आशिल्ले. स्रद्धेन आनी धिटायेन हे भाशेक शिक्षणाच्या आसनार व्हरून बसयली जाल्यार ती ह्या आसनाक योग्य जावंक पावतली. हें केन्नाच घडून येवचेंना अशें आमी मानूंक लागलीं जाल्यार मात आमचें विश्वविद्यालय सदां येवरोपी टबांतलो रोपो जावन उरतलें. टब कितलेंय सुंदर आनी मोलादीक आसूं, रोप्याक तें भारतीय मातये पसून पयसूच दवरतलें. असल्यांनी विश्वविद्यालया वरवीं देशाचो फकत सोस भागतलो, तातूंत ताचो प्राण मात आसचो ना.'

देशाचे चालंत शिक्षण वेवस्थे विशीं हुस्को उकतायतना रवीन्द्रनाथ आनीक एके कडेन बरयतात —

'आमच्या देशांत एके वटेन सनातन शिक्षणाची व्हांवती थांबल्या - सरसमानां खातीर गिन्यानाचो दुकळ पडला; आनी दुसरे वेटेन आर्विल्ल्या युगाची विद्या दिश्टी पडूंक लागल्या. हे विद्येची व्हांवती देशाचे जनते मेरेन पाविल्ली पळोवंक मेळना. तिचें उदक वेगळ्या

वेगळ्या सुवातांनी एकठांय जालां; फातराचीं कुंडां तयार जाल्यांत. पयस पयसुल्ल्यान हांगा येवन पंड्यांक दक्षिणा दिवची पडटा. कितल्याश्या नेमांक पाळो दिवचो पडटा. म्हादेवाचे जटेंतल्यान सकल देंवपी मंदाकिनी सरसमान लोकांक घाटाघाटाचेर मेळटा. कोणेंय येवचें आनी आपणाले मडकेंत तिचो प्रसाद भरून घेवचो. पूण आमच्या देशांतली आर्विल्ली विद्या अशी न्हय. तिका फकत खाशेलें रूप आसा. सरसमान रुपूच ना. म्हुण्णूच इंग्लीश शिकून जांणी खाशेलेपण जोडलां तांकां सरसमानांच्या मना कडेन इल्लोय सुरमेळ सादूंक येना. आमच्या देशांतलो सगळ्यांत खर जातीभेद ह्या मळार पळोवंक मेळटा. हांगा पांवड्या पांवड्या मजगतीं आफूडभश्ट.'

शाळेंत भुरग्याक निखटें पुस्तकी शिक्षण मेळ्ळें म्हूण जायना, ताच्या पुराय व्यक्तिमत्वाचो विकास जावंक जाय – खेळप, पेंवप, सायकल चलोवप, चित्रां काडप, पदां म्हणप, भाशणां दिवप... ह्या गजालींकूय भुरग्याच्या शिक्षणांत तितलेंच म्हत्व आसा; शिक्षणांत भंयाक वा शिक्षेक थारो आसूंक जायना, भुरग्याचें व्यक्तिमत्व मेकळ्या वातावरणांत वाडूंक जाय; विचार करपाची, प्रस्न विचारपाची तांक ताचे भितर विकसीत जावंक जाय – हें सगळें आयज कोणाकूय सहज पट्टा. पूण शिक्षणाच्या माध्यमाचो प्रस्न येता तेन्ना मात तरातरांचे युक्तिवाद मुखार येतात –

इंग्लीश आयज विदेशी भास खंय उरल्या? अरुंधती रॉय भारतीय इंग्लीशींत बरोवन 'बुकर' जोडिना...? कळंगूटचे वेळेर येवरोपेवांक खटर-खुटूर विकून पोट भरपी लामाण्यां पसून तांच्या धंद्याक जाय तितली इंग्लीश उलोवंक जाणात... खंय आसात तुमी!! आनी, रवीन्द्रनाथांचे विचार सत्तर अंयशीं वर्सां फाटले, 'चार्ली आनी केटी स्नोबॉलांनी खेळटना एकामेकां कडेन झगडलीं' ह्या वाक्याचो अर्थ बंगाली भुरग्यांच्या 'दोळ्यां मुखार' कसो येतलो काय म्हूण ते विचारतात. आयचीं आमचीं भुरगीं टीव्ही वांगडा ल्हानाचीं व्हड जातात. आमचे परस तांकां चड खबर आसता... रोपो टबांत रोवंक ना, ताचीं पाळां-मुळां मातयेंतूच आसात...

थोडे भितर –

We know what we are doing. माध्यमाचो विशय सोडून हेर कित्याचेरूय उलयात...

ना म्हळ्यार, आमच्या देशांतल्या इंग्लीश शिक्षणाची गंगा कांय प्रमाणांत आज घाटा घाटार झळकूंक लागल्या आनी सरसमान भारतीय हे गंगेचो प्रसाद आपणाल्या बुडकुल्यांनी तांबयांनी चंबूंनी भरूंक धडपडूंक लागल्यात.

दुसरे वेटेन, Alternative Educationचीं नवीं कुंडांय देशांत तयार जाल्यांत, पंडे, दक्षिणा हांचे सयत. बरें शिक्षण म्हळ्यार हे तरेचें Alternative Education अशें समिकरणूय तयार जालां.

कांयं दिसां फाटीं अशे तरेचें शिक्षण दिवपी शाळे संबंदान एक उलोवप आयकूंक मेळ्ळें.

'हे शाळेंत चवथी मेरेन परिक्षा ना. होमवर्क बी कांय ना. सकाळचीं साडे आठ ते सांजचीं चार मेरेन भुरगीं शाळेंत आसतात. थंय तीं खेळटात, नाचतात, जेवतात खातात, पेवंक शिकतात, चित्रां काडटात, संगीत शिकतात, वाचूंक बरोवंकूय शिकतात. आमी पालकूय आपखोशयेन हे शाळेक कांय वरां दितात. वर्गांत आमचे आवडीचो विशय वेंचून काडून शिकयतात...'

Power Point चेर गांधी, रवीन्द्रनाथ, गिजुभाई बधेका, जे. कृष्णमूर्ति हांचे quotes दिवन सुंदर व्याख्यान जालें.

'कितली बरी शाळा! खंय आसा ही?' हांवें विचारलें.

'पंजाबांत.'

'आनी, शिक्षणाचें माध्यम कितें?'

'इंग्लीश.'

'तुमी घरा खंयची भास उलयतात?'

'पंजाबी... हिन्दी...'

म्हज्यान ओगी रावंक जालेंना. म्हळें –

'हे शाळेंत भुरग्यांक 'पर्यावरण अभ्यास' हो विशय आसतलोच. ह्या पर्यावरणांत फकत सैमीक पर्यावरणा विशींच जाण करून दितात व्हय तर? तातूंत सामाजीक पर्यावरण येना? आनी, सामाजीक पर्यावरणांत भास येना? पर्यावरणाच्या ह्या आंगाची तुमची शाळा उवेखणी करूंक शिकयता अशें म्हणचें पडलेंना? घरांत पंजाबी, रस्त्यार बाजारांत पंजाबी, शाळेंत मात इंग्लीश... असल्यांनी तुमगेल्या भुरग्याच्या व्यक्तिमत्वाचे दोन वांटे जावचे नात? आपणाले सभावीक भाशेक तीं मनांतल्या मनांत उणीं लेखचीं नात? ...आनी, तुमचीं हीं भुरगीं मुखार पंजाबी दिसाळीं नेमाळीं वाचतलीं? एकामेकांक पंजाबींतल्यान चिटी बरयतलीं? पंजाबी साहित्य वाचतलीं? ...रवीन्द्रनाथ, गांधी, गिजुभाई - तिगांयच्या शिक्षण-विचारांत भोंवतणचे भाशेक खूब म्हत्व आसा. तुमी तांकां quote केले. पूण तांच्या विचारांतलें तुमकां जाय तेंच वेंचून काडलें...'

आनिकूय विचारीन दिशिल्लें – 'हे शाळेची फी कितली?'

आमच्या देशांतलें चडशें Alternative Education 'म्हारगें', भरपूर फी दिवची पडटा हे तरेचें. Elitist. हांवें पळेलां, असल्या संस्थांतल्या वातावरणांतल्यान भुरग्याक एके तरेचें वर्ग-शिक्षणूय मेळटा. एकाच (वयल्या) वर्गाच्या भुरग्यां भितर तांगेलें घोळप जाता आनी हातूंतल्यान Adidas बूट, Reebok बॅग, Tommy Hilfiger टीशर्ट... हांचेंय ज्ञान भुरगीं सांगात्यां कडल्यान जोडटात.... गांधीजींचो सेवाग्राम आश्रम, रवीन्द्रनाथांचें शांतिनिकेतन हे तरेच्यो elitist संस्था नाशिल्ल्यो. (कृष्णमूर्तींचें इंग्लीश Rishi Valley School मात elitist!)

आनिकूय कांय दुबाव –

ह्या Alternative Educationचो अर्थ ''आयज येवरोप-अमेरिकेंत मेळटा तसलें शिक्षण'' असो न्हय मू? म्हळ्यार, एके तरेच्यो export म्हाल तयार करपी फॅक्टऱ्यो न्हय मू ह्यो? ...आदल्या काळार भारतांत सवाय भितर कापसाचें पीक घेताले आनी मँचेस्टर यॉर्कशायरच्या मिलींनी कपडो तयार जातालो. आयज आमच्या देशांतले, येवरोप-अमेरिकेचे नदरेन सवाय भितर शिकून तयार जाल्ले, outstanding विद्यार्थी अमेरिके सारकेल्या गिरेस्त देशांनी सहज नोकऱ्यो मेळयतात वा तांगेल्या outsourcing

च्या धोरणाचो लाव जोडटात. Neo-colonialism न्हय मू हो एके तरेचो? ... आयजूय बी आमगेल्या शिक्षणाच्या शेड्ड्याची धांव नोकरेचे वंये मेरेनूच मू? आनी, आमच्या शिक्षणाची मोख येवरोप अमेरिकेची अलिबाबाची घोलूच जाल्यार थंय थळाव्या भासांचो कितें उपेग? बंद करून उडोवचे हे पसरे. एकूच इंग्लीश सुपर मार्केट चल्ल्यार पुरोना?

एक खंय गरीब मनीस आशिल्लो. शिंयां दिसां खातीर गरम कपडे शिवन घेवंक मेळचे म्हूण तो हाचे ताचे कडेन भीक मागून पयशे एकठांय करूंक लागतालो. फावो तितले पयशे एकठांय जातासर शिंयांचे दीस उलगताले. तेच भाशेन उज्या दिसांनी घालपाच्या कपड्यां खातीर पयशे पुंजा जायसर उज्याचे दीस सरताले.

एक दीस देवाक ताची काकूळट दिसली, ताणें ताका प्रसन्न जावन सांगलें, 'एक वर माग.'

त्या मनशान म्हळें, 'शिंयां दिसांनी म्हाका गरम कपडे मेळचे आनी उज्या दिसांनी सादे सुती कपडे. म्हजे जिणेंतली एकूच ही विसंगती ना जावची... म्हजें जिवीत सार्थक जावचें. आनीक कांय नाका म्हाका.'

हीय रवीन्द्रनाथांली काणी.

ती सांगून ते म्हणटात, 'देवा, आमच्याय जिवितांतल्यो विसंगत्यो ना जावच्यो. आमकां भुके वांगडा अन्न मेळचें, शिंया वांगडा कपडे, भाव-भावने वांगडा भास आनी शिक्षणा वांगडा जिवीत.'

ही प्रार्थना आयज काळाभायरी जाल्या अशें म्हणूं येत व्हय?



---

रवीन्द्रनाथांल्या बरपांचे संदर्भः *बालसाहित्य* (रवीन्द्रनाथ ठाकूर यांचे निवडक लेख व कविता) संपा.: लीला मजुमदार, क्षितीश रॉय (१९६५) मराठी अणकारः सरोजिनी कमतनूरकर, नवी दिल्लीः साहित्य अकादेमी २००८ पुस्तकांतली 'पोपटाची कहाणी' ही काणी आनी 'शिक्षणाची सुरुवात' हो निबंद; *रवीन्द्रनाथ के निबन्ध* (भाग १) (१९६४) हिन्दी अणकारः विश्वनाथ नरवणे, नवी दिल्लीः साहित्य अकादेमी १९७७ पुस्तकांतले 'शिक्षा में हेर-फेर' (१८९२), 'शिक्षा का मिलन' (१९२१), 'शिक्षा का विस्तार' (१८३३) आनी 'विश्वविद्यालयों का रूप' (१९३३) हे निबंद.

---

## पडसाद

## सम्पादकीय, 'बिरमत', 'सिताफळ', 'रामफळ' आनी हेर संकल्पनात्मक गजाली

अ. 'जाग' (वर्स ३५, आंक ८, जून-जुलय-२००९) वाचलो. सदचे भशेन तो विचारांची आनी आकलनाची तांक वाडोवपीच आसा.

आ. 'जाग' आंकांतलें सम्पादकीय ('नदर संपादप्याची') आपणाली कात सोडूंक लागलांशें दिसता. हांव हालींसराक जेन्ना 'जागां'तलें बरप वाचतां तेन्ना तें चडावतपणान संशोधनपर, व्यक्तीपर वा अश्याच कोटींतलें आसा म्हणपाचें दिसूंक लागलां. अश्या रुपड्यांतलें हें बरप म्हळ्यार एकेका लेखाचो आटाप. जर अशा एकेका लेखाचो म्हालवज सम्पादकियांत येवंक लागलो जाल्यार सम्पादकियाच्या रुपड्यांत एकविसाव्या शेंकड्या सावन परिवर्तन जावंक लागलें, अशें म्हणचें पडटलें. तो एके तरेचो *वाटचिरो*व अशेंच म्हणचें पडटलें. हें श्रेय कोंकणीक मेळटलें, अशें म्हणपांत दुबाव आसपाची गरज ना. परन्त, म्हज्या मत्तान सम्पादकियांतलें आकलन, चिंतन, मनन आनी बरप *परामर्शपर* (एके तरेन 'नवनीत' - *लोणी* - कशें) आसूंक जाय. अमक्या विशयाचेर निंबून आशिल्लो तपशील दिवंकच जाय, अशें जर सम्पादप्याक दिसता जाल्यार ताणें उपरान्त त्या विशयाक न्याय दिवपी तपशील (आनी फोटे) दिवन एक भरगच्च लेख बरोवचो. तशें करूंक ताका कोणें आडायला?

इ. ही चीट बरयतना म्हजे मुखार मुखेल विशय आसा तो 'सिताफळ', 'रामफळ' आनी हेर *संकल्पनात्मक* तशेंच *सापेक्ष* स्वरुपाच्या गजालींचो. 'जाग' (वर्स ३५, आंक ८, जून-जुलय-२००९) च्या सम्पादकियांत 'सिताफळ', 'रामफळ' ('आंतॅर'), ('आंत', 'आनॉन'), 'पातपणस' ह्या उतरां विशींची विंगड विंगड मत्तांय उकतायल्यांत. आतां हीं साबार फळां खंयच्या वर्गांतलीं म्हणपाची गजाल वनस्पतीशास्त्री सांगूंक पावतले.

''आनॉन' म्हळ्यार कितें तें हांव जाणां; परन्त 'आन्तॉन' म्हणटात तें विशीं हांव नेणो'', अशें पिरायेचीं पंच्यात्तर वर्सां पुराय जाल्ल्या, (आनी *गांवकारी*चो वांगडी आशिल्ल्यान *जण*घेवपी) कास्ताद भाटकार आशिल्ल्या म्हज्या कातोलीक इश्टान सांगलें. ते विशींची चर्चा करपाचो वावर आमी हांगसरच सोडुंया. आमी चिंतूंक जाय तें मुखावेले गजाली विशीं:

१. जे तरेन 'कुकूम' वा 'नाल्ल' हे पदार्थ भारतांत केन्ना आयले? अशें आमी विचारतात तशें 'सिताफळ', 'रामफळ' ('आंतॅर'), ('आंत', 'आनॉन' वा सान्त आन्तोनी वेल्यान 'ऑन्तॉन') हीं फळां भारताचे भुंयेंत केन्ना पावलीं, अशें विचारपा पासत '('स्पेस' अशा अर्थान) *सुवात* आसा व्हय?

२. हो प्रस्न विचारना फुडें 'कॉण्टिनेण्टल ड्रिफ्ट'ची संकल्पना कोसळटा व्हय? असोय एक प्रस्न विचारचो पडटा. त्या प्रस्नाक ''कॉण्टिनेण्टल ड्रिफ्ट'ची संकल्पना बरी घटमूट आसा, ती कोसळूंक पावपा सारकी ठिसूळ स्वरुपाची ना'', अशी जाप मेळत तर हीं फळां भारताचे भुंयेंत केन्ना पावलीं अशें विचारपाची गरज उप्रासना. आदीं काळा सावनच भारताचे भुयेंत तीं फळां आशिल्लीं, अशें मानून घेवचें पडटा.

३. अशें म्हणटकच प्रस्न उप्रासता तो 'वैष्णव पंथा'चो उदेव केन्ना जालो? 'सिताफळ', 'रामफळ' अशीं फळांक दिल्लीं संबोधनां 'वैष्णव पंथा'चे निर्मिती उपरांत केन्नाय तरी चालंत जाल्यांत आसुंये,

अशें म्हणचें पडटा. आदीं सावन भारताचे भुयेंत तीं फळां आशिल्लीं, अशें मानून घेत जाल्यार तांकां हेर नांवां आशिल्लीं, अशें एकाद्रो लोकसाहित्याचो खडेगांठ अभ्यासक म्हणतय बी.

४. ह्या फळांक वैष्णव पंथाच्या पुरस्कर्त्यांनी 'सिताफळ', 'रामफळ'.अशीं संबोधनां दितकच जे वैष्णव पंथाचे पुरस्कर्ते नाशिल्ले तातूंतले कांय जाण वितराग उकतावंक मुखार सरले आसतलेच. तांकां उस्तुरें गेलें आसतलेंच न्हय? अशें उस्तुरें कित्याक वेता? कारण जांचो जो उपासना पंथ तो लयाक वचत, ताच्या अस्तित्वाचेरच हावळ येत म्हूण तांकां भिरांत दिसूंक लागिल्ली आसता. ते राजकारण करूंक सोदिनात. तांकां आपणाल्या अस्तित्वाची गजाल भोवच म्हत्वाची दिसता, तातूंत तांचें कांयच चुकना. तांचे भिरांतींत राजकारण लिपिल्लें आसा, अशें कांय जाणांक दिसता जायत जाल्यार तांकांच *पक्के राजकारणी* म्हणचे पडटलें. हें राजकारणी *फोडात आनी झोडात* हें तत्त्व चालीक लावपाचो उद्‌देग चलयतात.

तशेंच जाका नव्या उपासना पंथाचो स्वीकार करपाचो आसता तो हेर उपासना पंथांचे संदर्भ आपणाल्या दिसपट्ट्या वावरांत ना नपश्चात करपाची मोख घेवनच वावर करीत आसतात. ती मोख थळावी भास आनी श्रद्धा हांचे वरवीं पुराय करपा पासत वावर करपाचो आसता. म्हणटकच कातोलीक उपयासना पंथीय लोकांनी 'सायबीणमायलें आर्क' (म्हळ्यार इन्द्रधनुष्य) अशें म्हळें म्हूण घोळ जाता अशें म्हाका तरी दिसना.

५. आमी 'धर्म' हें उतर न्यायबुद्‌धीन उमजून घेतात अशें दिसना. ज्या अर्थान भारतांत हें उतर घोळटिकेंत आसा त्या अर्थान तें हेर देशांनी आसा अशें म्हणूंक जाता व्हय? 'रिलिजन' म्हळ्यार 'धर्म' न्हय, ही गजाल आमी मतींत घेवंक अनमनतात. 'रिलिजन' म्हळ्यार 'उपासना पंथ'! उपासना पंथाक जें मान्य तें तितलेंच तांचे जीवनप्रणालीक मान्य, हेर साबार गजाली म्हळ्यार पाखंडीपण! 'कातोलीक' नांवाच्या उपासना पंथाक जें आचरण मान्य तितलें सोडत जाल्यार ताच्या मत्तान आचरणाचे हेर प्रकार म्हळ्यार पाखंडी आचरण.

फार्टी वैष्णव उपासना पंथियांच्या घरांनी हेर उपासना पंथीय बापूय आपणाले धुवेक लग्न करून धाडूंक अनमनताले. कारण ते धुवेच्या तोंडांतल्यान कपडे उमळटना 'स्सूऽ स्सूऽ' असो सूर आयल्यारय ताका मार पडत असो भंय! कारण कितें तर तें 'शिव शिव' अशें म्हणटा, म्हूण तांची मांय आरोप करपाची शक्यताय!! हो उपासना पंथियांचो आदर्श! हिन्दू धर्माच्या तत्त्वांक ही अमानवी गजाल निखालसपणान मान्य ना. हालींसराक अस्तंती संस्कृतायेच्या सांवटा खाला येत सावन, सर्रासपणान आमी 'रिलिजन' आनी 'धर्म' हीं दोनूय उतरां समानार्थी आसात, अशें धरून चलतात.

हिन्दू हो *धर्म* म्हळ्यार तत्त्वीक कोटींतली जीवनप्रणाली. 'हिन्दू' हे जीवनप्रणालीक वेदांचो आदार आसा आनी 'धर्म' म्हळ्यार 'वेदान्त' असोय शब्दार्थ मेळटा. तातूंत अगणीत मानवी स्वभाव आसात, कर्तव्याची जाण आसा, विंगड विंगड उपासना पंथांचे वेगळेचार (आनी बडवाचारय!) आसात. प्राण्याच्या आचार-विचारांत प्राविण्य आनी न्यायबुद्‌धी आसप हो *धर्म* ह्या उतराचो अर्थ! उपासना पंथाच्या चपक्यांत जो सांपडलो, तो शेणलोच. तो 'रामफळा'क 'आंन्तॉन' म्हणूंक सोदिना आनी 'आन्तॉन' म्हणपी त्याच फळाक *गौरीफळ* म्हणूंक कांचवेता. एक मात गजाल पुराय खरी ती ही की *कातोलिकांच्या* उलोवण्यांत *कोंकण्यां*परसय चडावतपणान संस्कृतोद्‌भव उतरां आसतात.

उपासनापंथाक आदर्श दिसपी गजाली हिन्दू *धर्म* मानून घेताच अशें म्हणूं नजऽ. हिन्दू धर्माक मान्य आशिल्ल्या कांय गजालींक मतींत धरून आदर्श उपासना पंथय आकाराक येतात. देखीक, 'अर्धनारीनटेश्वर' ही संकल्पना उपासनापंथाक जल्म दिता. तीन उपासना पंथांतलें द्‌वैत ना नपश्चात जावचें ही न्यायबुद्‌धी घेवन 'दत्तसांप्रादायिक' उपासना पंथ जल्माक येता. 'साई'चो उपासना पंथय तेच कोटींतलो. 'अमको अमको उपासना पंथ म्हळ्यार अधर्मकारण' अशें म्हणटां म्हणटां आनी एकेका कडव्या, खर उपासना पंथाक जल्म मेळत वेता, तो असो. थंयसर 'धर्मा'क मान्य आशिल्ल्या साबार तत्त्वांक सुवात आसताच अशें म्हणूं नज.

६. "बिरमत' हें 'ब्रह्महत्या' ह्या उतरा कडेन लागसार दवरता अशें कांय जाणांक दिसता जावये. माधवीबायन 'बिरमत' ह्या उतरा कडेन 'ब्रह्महत्या' ह्या उतराचो तसो लागसार ना, म्हणपाची गजाल सोदून काडली. बेस बरी गजाल. पूण *उर्दू-हिन्दी-शब्दकोशांत* येवचें आदीं तें उतर उर्दूंत कशें आयलें म्हणपाचें कोण सांगत व्हय? उर्दूचे निर्मणेचो काळ खंयचो काय? ताचेय आदीं, म्हळ्यार शेंकड्यांनी वर्सां आदीं भारताचो आसपाव पर्शिया (आयच्या इराण देशा)मेरेन आशिल्लो खंय. म्हणटकच कितलींशींच उतरां आयज भारतांतल्या भासांचे घोळटिकेंत मेळटात तीं त्या इतिहासीक दायजाक लागून, अशें कित्याक म्हणूं नजऽ?

फार्टी हांवें 'स्वयंभू' ह्या उतरा वेल्यान 'सैम्भ' हें उतर आयलां, ताचींच आयज कितलींशींच रुपां घोळटिकेंत आसात; कोण 'सैम' म्हणटा, तर कोण 'सैम्ब' अशें म्हणिल्लें. अशें आसल्यारय आयज आमी कितलींशींच उतरां संस्कृतोद्‌भव आसात म्हूण बेश्टेच धरून चलतात. देखीक 'उच्चभ्रू समाज' (इंग्लिशींत 'हाय ब्राव सोसायटी'), 'नक्राश्रू' (इंग्लिशींत 'क्रोकोडायल टीअर्स'!) आनी हेर उतरां. आमचें 'वाटचिरो' (इंग्लिशींत 'मायलस्टोन') हें उतर आनी हेर उतरां इंग्लिशीन घेतल्यांत अशें फाल्यां कोणूय म्हणत! कांय वर्सां आदीं म्हज्या वाचपांत एक पुस्तक आयिल्लें. 'ताजमहाल की तेजोमहालय' असो ताचो माथाळो आशिल्लो. तातूंत कितलींशींच उर्दू-अरबी-फारसी उतरां कशी संस्कृताक लागींचीं आसात म्हणपाचें दाखोवन दिल्लें. आपणाक *सेक्युलर* अशें समजुपी वाचपी त्या पुस्तकाचेर उलोवप करपा पसून पयसच रावले. *सेक्युलर* ह्या उतराचो सन्दर्भ आयलाच म्हूण विचारचेंशें दिसता, *सेक्युलर* हें उतर साबारां मेरेन एकूच अर्थ पावयता व्हय?'

**- डॉ. सु. म. तडकोडकार**

# पीपल्स हायस्कुलाचो भोवमान

**रवीन्द्र केळेकार**

म्हजें शिक्षण पुर्तुगेजींतल्यान सुरू जाल्लें. प्रिमैर आनी सेगुंद ग्राव जातकूच सात वर्सांचें हें शिक्षण आशिल्लें. ताका लिसेवाचें शिक्षण म्हणटाले. आयचे हायर सेकंडरीच्या पांवड्याचें. सव्या वर्साचें शिक्षण घेतालों त्या वेळार म्हजे पिळगेंतल्या कांय भुरग्यांक एक गजाल कळून आयली — ह्या शिक्षणाक फुडार ना म्हणपाची. तें घेवन आमी जावन जावन दोतोर, आद्वोगाद, फार्मासेवतिकु, प्रोफसोर वा येप्रेंगादूच जावंक पावतले. येंप्रेगाद ओवर सॅच्युरेटेड जाल्ले. दोतोर प्रोफसोर कितलेशे मुखार सरूंक पावतले? भायर वचून करीयर करतले म्हळ्यार हें शिक्षण थंय उपकारा पडनाशिल्लें. म्हज्या वर्गांतल्या कांय भुरग्यांनी इंग्रजी शिक्षण घेवचें अशें थारायलें आनी आमी 'पीपल्स हायस्कुलां'त आयले. प्रो. सुर्लकार आमकां वळखताले. लिसेवाच्या चवथ्या, पांचव्या आनी सव्या वर्साक ते आमकां 'सेकंड लँग्वेज, म्हूण इंग्रजी शिकयताले. तांणी आमकां मेट्रिकेच्या वर्गांत भर्ती करून घेतले. भुरगी पिराय सोंपल्या आनी तरणी अजून सुरू जावंक ना ह्या मदल्या काळांतली ही ऍडॉलसंसची पिराय आशिल्ली. हेच पिरायेर कांय भुरग्यांची ऍडॉलसंसची क्रायसिस सुरू जाता. शिक्षणा वेलें तांचें लक्ष उडून वता. म्हजेंय गेल्लें. १९४१त रवीन्द्रनाथ टागोर भायर पडले त्या दिसा पणजेंतल्या सगळ्या स्टुडंटांक टागोर कोण आनी केदे आशिल्ले हाचेर भाशण दिवन प्रोफसोरांनी आपापल्या शाळांक सुटी दिल्ली. पणजेचो लिसेव म्हळ्यार पुर्तुगेज संस्कृतायेचो अड्डो. थंयच्या प्रोफसोरांनीय तशेंच केलें. सांजचीं क्लुब वास्कु द गामाच्या हॉलांत दोना प्रॉपेर्सिया, प्रो. लूसियो मिरांद, प्रो. राणू नायक सारकेल्या गोंयच्या विद्वानांनी केल्लीं उलोवपां आयकलीं.



म्हजें नांव रवीन्द्रनाथ. म्हज्या आज्यान-आवयच्या बापायन - लिंगुबाब दळव्यान म्हाका हें नांव दवरिल्लें. तेंवूय रवीन्द्रनाथांक मेळून आयिल्ल्यान आनी तांगेल्या व्यक्तित्वान प्रभावीत जावन आयले उपरांत. नांव रवीन्द्र आसुनूय हांव रवीन्द्रनाथ कोण तें नकळ आशिल्लों. म्हज्यांतलें हें उणें भरून काडपा खातीर हांवें मराठींत तांगेलें एक चरित्र वाचलें. सरस्वती वाचन मंदिरांत मेळ्ळें आनी —

म्हाका एक गजाल कळ्ळी. येदो व्हड हो मनीस एक ड्रॉप आउट आशिल्लो. मॅट्रिक सुद्दां जावंक नाशिल्लो म्हणपाची. 'आं, म्हणटकूच, चालंत शिक्षण घेनासतना लेगीत विद्वान जावं येता तर! व्हड जावं येता तर!' अशें दिसलें. शिक्षणा वेलें म्हजें लक्ष उडून गेल्लेंच. तातूंत ह्या ज्ञानाची भर पडली. हांव पीपल्सच्या वर्गांक दांडी मारपाक लागलों. म्हयनो भर गेलोंच ना. एक दीस दिसलें, अशें उपकारा पडपाचें ना. मॅट्रिक कशेय भशेन जावंकूच जाय. आनी हांव पीपल्सांतल्या वर्गाक वचून बसलों. सुर्लकारांनी म्हाका वर्गांत पळेलो आनी विचारलें, 'इतले दीस तूं खंय आशिल्लो?' 'बरो नाशिल्लों.' फट मारून मेकळो जालों. 'फट उलयता?' सुर्लकारांचो आवाज तीख जालो. 'तुका कोणाचीच पर्वा करी नासतना सिगरेटी फुसकायत वतना पणजेच्या रस्त्यार हांवें कितलेच खेपे पळेला. तुज्या बापायक हांवें पळोवंक ना. पुणून ताच्या संबंदान आयकलां. आमचे सारको तो न्हय. वेगळ्याच एका कल्चरांत वाडिल्लो मनीस तो. तागेर तुजे असलो दिवटो जल्माक येवचो हाचे सारकें दुःख दुसरें ना.' हांव मान सकल घालून आयकंत रावलों. उपाय नाशिल्लो.

मॅट्रिकेचे परिक्षेक बसतल्यांक हायस्कुलांचो फॉर्म लागतालो. म्हजे वांगडच्या सगळ्या भुरग्यांक सुर्लकारांनी तो दिलो. म्हाका दिलो ना. म्हाका आपोवन सांगलें, 'सगळ्यांक फॉर्म दिला. तुका एकल्याकूच दिवंक ना. कित्याक, जाणा? तूं फेल जातलो हाची म्हाका खातरी आसा. तुजे करीयरीक हें काळें खत लागिल्लें म्हाका नाका. पुणून एक सांगतां, तुका हांवें सदांच पुस्तक घेवन भोंविल्लो पळेला. (ते मुस्तींत डिकन्स, बाल्झाक, दॉस्तॉयव्हस्की सारकेल्या येवरोपेव लेखकांची पुस्तकां पुर्तुगेजींत रुपया दोन रुपयांक मेळटालीं. तीं हांव वाचतालों. स्टीफन झ्वायगालीं सगळीं पुस्तकां हांवें वाचिल्लीं. कांय पुस्तकांचीं पारायणांय केल्लीं. सुर्लकारांनी हें पळेल्लें. हालींसराक तर इंग्रजींतल्यान बर्ट्रांड रसेल, ज्युलियन हक्स्ले, ब्रॅडलॉ, शॉपिनहावर सारकेल्यांलीं इंग्रजींतलीं पुस्तकां पीपल्साचेय लायब्रेरींतलीं घेवन वाचतालों.) एक दीस केन्नाय तरी तूं ॲकडॅमिक फिल्डांत नांव करतलो. त्या वेळार हांव आसलों जाल्यार, आतांच सांगून दवरतां, मोट्या अभिमानान हांव 'हो पीपल्साचो स्टुडंट आशिल्लो म्हूण सांगतलों लोकांक.'

पीपल्साच्या आयच्या जाळवणदारांक हें आयकून लेगीत खबर आसचें ना. पुणून आयज सुर्लकारांच्या जल्मशताब्दी वर्सा पीपल्स हायस्कुलांतलो साहित्याच्या मळार नांव जोडिल्लो एक मनीस म्हूण म्हजो भोवमान जालो आनी एके नदरेन प्रो. सुर्लकारांचीच इत्सा पूर्ण जाल्या. हांव सुर्लकारांचे यादीन हो भोवमान भोव नमळायेन घेतां.

(भोवमान घेवपा वेळार करतलों म्हूण आशिल्लों तें भाशण.)

# डॉ. राममनोहर लोहिया आनी सप्तक्रांती

**नागेश करमली**

डॉ. राम मनोहर लोहिया हे फकत एक राजकारणी नासले. ते विचारवंत राजकारणी आसले. तांणी मतांचे खातीर राजकारण केलें ना. सत्ते खातीरय राजकारण केलें ना. तांणी आपणालें पुराय जिवीत तत्त्वाधारीत, मुल्यांधारीत राजकारणां पासत खर्चिलें. आंखिल्ल्या मार्गा वयल्यान घसरता अशें दिसल्यार तांणी आपणाल्या लागींच्या सांगात्यांकय भगशिलें ना. भारतांतली तशीच संवसारांतलीय परिस्थिती, सामाजीक आयतिका, अर्थकारण, विदेशनिती, सर्वसामान्य मनशांचे प्रस्न, गरिबी, बायलांची स्थिती, संस्कृतीकारण, भाशाकारण ह्या सगळ्या विशयांचेर तांचें विचारचक्र एकसारकें चालू आसतालें. ते देशभर भोंवताले. सभा-मेळाव्यांनी भाशणां दिवन आपणाल्या विचारांक वाट मेकळी करून दिताले. कोण तरी तांचीं हीं भाशणां बरोवनय काड्टाले. मागीर तांच्यो पुस्तिकाय जाताल्यो आनी त्यो लोकां मेरेन पावताल्यो. हाचे भायर ते आपणाले विचार गरज तेन्ना बरोवनय काडटाले. केन्ना केन्ना ते खातीर दीस रात बसून बरोवपाचें काम करताले. ते एक सिद्धहस्त लेखक आसले. आपणाल्या विचारां वरवीं तांणी सदांच किते ना किते नवें सांगपाचो यत्न केला. तांच्या विचारांत एके तरेचे मुळावेपण आसलें. सप्तक्रांतीचो विचार हो तांतलोच एक म्हत्त्वाचो मुळावो विचार. तशें पळोवंक गेल्यार सप्तक्रांतीच्या विचारांत जे मुद्दे आयल्यात तांचे विशींची चर्चा आमचे मदें ह्या ना त्या कारणान सदांच जायत आसता. पूण तांकां आपणाले मांडणी पद्दतीन डॉ. लोहियान एक नवी उंचाय तशीच खोलायय हाडून दिल्या. १९६२ च्या जुनाचे २६ तारकेर नैनीताल हांगा केल्ल्या एका जाहीर भाशणांत तांणी हे सप्तक्रांतीचे मुद्दे मांडिल्ले.



पयलो मुद्दो तांणी मांडिल्लो तो गरिबी आनी गिरेस्तकाय हांचे मदें जें भयांकृत अंतर आसा ते विशीं. एके वटेना, धड एका वेळचें मूठ भर अन्न मेळना अशे लोक आसात, जाल्यार दुसरे वटेना जोडिल्ले जोडीचें किते करचें असो प्रस्न पडिल्ले लोक. हें अंतर आसा तो मेरेन उदरगत ह्या उतराक अर्थच ना अशें डॉ.लोहियांनी सांगिल्लें. आनी हें अंतर फकत थोड्याच लोकां मदें आसा अशें म्हणूं येना. कोट्यांनी लोक सामके दुर्बळकायेंत जियेतात आनी दुसरे वटेना कांय लाख लोक सुखासीन जीण सारतात. हें चित्र जो मेरेन बदलना, तो मेरेन आमच्या स्वातंत्र्याक आनी स्वातंत्र्यांतले उदरगतीक अर्थच उरना. ते खातीर किते जावंक जाय तें डॉ. लोहियांनी वेगवेगळी आंकडेवारी दिवन विस्तारान सांगिल्लें आसा.

दुसरो मुद्दो आंतर्राष्ट्रीय मळा वयली असमानकाय. ही असमानकाय आसा तो मेरेन संवसारांत खरी सवस्तकाय येवप शक्यच ना अशें डॉ. लोहिंया म्हणटाले. हे असमानकायेक लागून बळिश्ट राष्ट्रां दुबळ्या राष्ट्रांक कशीं आपणाल्या पांया तळा चेपून आनी चिड्डून दवरतात तें आजय आमी पळयतात. अमेरिके सारकें शक्तीशाली राष्ट्र, तूर्त तरी "संवसारीक फौजदार" कशें वागता. कोणाचेर दोळे वाठारता. जाल्यार कोणाचेर सरळ व्हरून बाँब घालता. डॉ. लोहियान ह्या प्रस्नाचेर जे विचार १९६२ मांडिल्ले ते आयचे परिस्थितीकय जशाक तशे लागू पडटात.

दादलो आनी बायल हांचे मदलो जो (सामाजीक) भेद आसा तो पुरायान ना जावंक जाय हाचेर डॉ. लोहिया सदांच खरपणान उलयताले. सप्तक्रांतींत तांणी तोच विचार अदीक विस्तारान आनी अदीक शास्त्रशुद्ध पद्धतीन मांडला. बायलांक किते तरी हक्क दिवप म्हळ्यार दादले तांचेर उपकार करिनात अशें डॉ. लोहिया म्हणटाले. एके तरेन डॉ. लोहियांनी, पुरुशप्रधान संस्कृतीचेरच मुळाक सावन आधात केल्ले आसात.

रंग-भेद, वंश-भेद ना करप आनी सगळ्यांक सांगाताक घेवन वाटचाल करपी मनीसकुळी निर्माण जाल्ली पळोवप हें तर डॉ. लोहियांचें एक आवडीचें सपन आशिल्लें. सप्तक्रांतीचे विचारधारेंत डॉ. लोहियांनी ह्या प्रस्नाचेर सामके मुळावे अशें विचार मांडल्यात. अमेरिकेंत गेल्ले तेन्ना खासा डॉ. लोहियांक लेगीत ह्या रंग-भेदी

*(पान १६ चेर)*

# अचकीत योगदान-कोंकणी सुगम संगिताक

## उदय भेंब्रे

ओपिनियन पोल जावन वतकूच विधानसभेची जी वेंचणूक आयली तिका उबो रावचें असो आग्रो जायत्या बरें-मागत्यांनी केलो. तो आग्रो कडक आशिल्लो आनी प्रामाणीक आशिल्लो. पूण म्हजें शिक्षण अर्ध्यार उरिल्लें. दुसरें, सत्तेच्या राजकारणांत भितर सरपाची तशी इत्साय नाशिल्ली. देखून आग्रो करतल्यांक हांवें 'देव बरें करूं' म्हळें; पूण आग्रो मानून घेतलो ना.



१९६८ वर्साच्या फेब्रुवारी म्हयन्यांत हांवें राष्ट्रमतांतले नोकरेचो राजिनामो दिलो. पुण्यांत वचून पुणे विद्यापिठाची पदवेची परिक्षा दिली. उपरांत पदवी घेवन मुंबय गेलों आनी तीन वर्सां कायदयाचें शिक्षण पूर्ण करून पदवी घेतली. हीं तीन वर्सां माहिमाक अना म्हांबऱ्याल्या फ्लॅटांत हेर कांय इश्टां वांगडा हांव रावलों. ते सगले कोंकणी चळवळींतलेच वावुरपी. मात मुंबय चळवळ नाशिल्ली. गोंयांत कितें चलता ताचे कडेन आमची नदर आसताली.

१९७१ वर्सा लग्न जालें आनी किशोरी आनी हांव मुंबय रावंक गेलीं. दोन-तीन वर्सां मुंबय वकिलीचो अणभव घेवचो आनी परतुचें असो बेत आशिल्लो. चडसो वेळ कोर्टांनीच वतालो. आनीक सुमार तीन वर्सां मुंबय गेलीं. ह्या स वर्सांच्या काळांत कोंकणी चळवळी पसून पयस उरलों. चळवळीचें केंद्र गोंयांत पावत पसून मुंबय व्हडलोसो वावर चलनाशिल्लो. गोंयकारांनी विलीनीकरणाक 'नाका' म्हणिल्ल्यान मुंबयचे महाराष्ट्रवादी गोंयकार थंड पडिल्ले. म्हणटकूच तांकां जाप दिवपाचोय उद्देग नाशिल्लो. पूण ह्या काळांत कोंकणी सुगम संगिताक योगदान दिवपाचो योग अचकीत आयलो. स. श्रीधर केंकरे हांच्या फुडाकारान तें घडलें.

**कोंकणी चळवळींत ५० वर्सां: तिगून उरिल्ल्यो यादी**

श्रीधर केंकरे हे मुळचे काणकोणचे. बांसरीवादक म्हूण ते 'हीज मार्स्टर्स व्हॉयस' कंपनींत काम करताले. 'चान्नाचे राती' ह्या गिता खातीर वादय संगिताची मांडणी तांणीच केल्ली. तें गीत लोकप्रिय जालां हें तांकां खबर आशिल्लें. कांय कोंकणी गितां बसोवन मुद्रीत करपाक तांणी वरिष्ठांची मान्यताय मेळयली. आनी एक दीस श्रीधर केंकरे आमी रावतालीं थंय इर्लाक आयले. तांणी श्री. रामदास कामत आनी श्रीमती आशालता वाबगांवकार हांच्या आवाजांत गितां मुद्रीत करपाची आपणाली येवजण सांगली आनी गितां रचपाची विनंती केली. हांवें ती खोशयेन मानून घेतली. एक अडचण आसली, गितां तांणी थारायिल्ल्या चालींचेर रचूंक जाय आसलीं. तो अणभव सिनेसृश्टींत सदचोच, पूण म्हाका नवो आसलो. तरी हांवें प्रयत्न करपाचें उतर दिलें.

चाली समजून घेवंक स्टुडिओंत वतालों. एक दीस श्री. रामदास कामत येसायेक आयिल्ले. तांणी आनीक एक आव्हान उबें केलें. तांकां स. लक्ष्मीकांत भेंब्रे, म्हजो बापूय, हांचे विशीं खूब आदर. सुटके झुजारी ह्या नात्यान तांणी सोळा वर्सां पुर्तुगालांत सारिल्ली - तातूंतलीं चार वर्सां बंदखणींत. वीर सावरकरांच्या 'सागरा प्राण तळमळला' ह्या गिता सारकें गीत मेळत काय म्हूण तांणी विचारलें. सावरकरां येदी प्रतिभा म्हजे ठांय नासली आनी तांणी वा लक्ष्मीकांत भेंब्रे हांणी घेतिल्लो तळमळ्यांचो अणभवूय हांवें घेवंक नासलो. तरी श्री. रामदास कामतींच्या भावनांचो आदर करूंक 'हांव प्रयत्न करतां' अशें म्हळें. तातूंतल्यान 'मंद वाऱ्यार दर्या ल्हारार' ह्या तांणी गायिल्ल्या गिताचो जल्म जालो. हो अणभव आगळोच आसलो. चाल संगीत दिग्दर्शकान थारायल्ली तर विशय गावपी कलाकारान दिल्लो. तें गीत लोकांक मानवलां हातूंत हो 'त्रिवेणी' यत्न सफळ जाला आसुंये अशें हांव धरतां.

स. श्रीधर केंकरे हांणी चार गितां मुद्रीत केलीं : दोन श्री. रामदास कामत हांच्या आवाजांत तर दोन श्रीमती आशालता वाबगांवकार हांच्या आवाजांत. एच्. एम्. व्ही.न तांच्यो दोन ४५ आर.पी.एम्. रेकॉर्डी काडल्यात. आयच्या कॅसेटींच्या आनी सीडींच्या काळांत हें ७८ आर.पी.एम्. वा ४५ आर.पी.एम्. प्रकरण कितें असो प्रस्न नव्या पिळग्यांक पडुंयेता!

आकाशवाणीन म्हजीं कांय गितां मुद्रीत केल्यांत. हो वावर भोव करून मुंबय केंद्राच्या कोंकणी विभागान केला. तीं गितां वेगवेगळ्या कलाकारांच्या आवाजांत आसात. पूण तीं मुद्रीत करपाच्या वावरा कडेन म्हजो प्रत्यक्ष संबंद नासलो. ताचें खूबशें स्रेय स. ललिता खांडेपारकार आनी स. मनोहर माशेलकार हांकां.

आकाशवाणीन कोंकणी संगिताच्या मळार मोलादीक योगदान दिलां. मुंबय केंद्राची ती बरी परंपरा पणजी केंद्रान फुडें चलोवंक जाय. सर्वसामान्य लोकांचो विचार केल्यार 'कविता सरतां आनी गीत उरता' अशें म्हणुंयेता. लोकसंस्कृतीन ताची देख आमकां दिल्या.। संगिताची आनी संस्कृतीची ही गरज आमी आनी भोव करून आमच्या कवींनी वळखूंक जाय.

# "वास्कोयन" एक कृती-परिक्षा

## एम्. एन्. प्रभू (उडुपी)

प्रसिध्द कोंकणी कवी प्रकाश पाडगांवकार हांगेली ही दुसरी काव्यकृती. वास्को शार केंद्रिकृत करून बरयिल्ले हें खंडकाव्य. ह्या पुस्तकाचो ब्लर्ब मूहत्वपूर्ण आसा आनी हें कृतीचो मूल ध्येय हातूंत संक्षेप रितीन व्यक्त जाता. "उद्योगीकरणाक लागून आमची कौटुंबीक नीत ल्हवू ल्हवू ना जावंक लागल्या. मायेस्तपणाची ऊब आशिल्ले घरगुती आदर्श विरगळूंक लागल्यात. मनीसकुळयेची सवस्तकाय इबाडूंक लागल्या. देवा-धर्मा वेले स्त्रद्धेक बाजारीपणाचें रूप आयलां. दीन-दुर्बळांचीं नागडीं-उगडीं दैनां रस्त्या-रस्त्यार, वाड्या-वाड्यार रोगा भशेन वाडूंक लागल्यांत..." उद्योगीकरणान सर्व जीवनमौल्य नाश जावन मनीस नैतीक अध:पतना कडेन अतिवेगान धांवतऽ आसा. भविष्य इतलें भीकर आसा म्हळ्यार परत येवचें असाध्य आनी असंभवनीय आसा. "वास्को" शार हे घोर अवनतीचें संकेत जालां. हें ओलिवर गोल्डस्मिथाल्या "The Deserted village" सारकें जालां. गोल्डस्मिथान म्हणिल्लें "Where wealth accumulates, men decay" वास्कोक अन्वय जाता. ह्या वास्कोचें सविस्तर वर्णन हांगच्या ६५ क़वितांनी परिणामकारी जावन चित्रीत जालां.




वास्को खतखतत रावपाचें एक रसायन. हातूंतल्यान उपजून येवचें बरें किंवा वायट कांही कळना. समुद्रमंथन करतना आयिल्ले वरी हालाहल येना म्हूण खातरी ना. हें वेगळ्या वेगळ्या लोकांचें, धर्मांचें, जातींचें मिश्रण. पोटा खातीर हांगा आयिल्ले हांगाच आपल्यालें अंगांग पसऱ्या वरी पसरून स्थायीक जाल्यात आनी मूळ गोंयकार कोनशाक पडल्यात.

*"भय्यांचि मिठाय कितली गोड,*
*उडुप्यांगेर सदांच गर्दी*
*गोंयकारांनो तुमी चलयात*
*आतां फकत सोऱ्यागादी." (५५)*

आंग्ल क़वी टी.एस्. एलियटान "Unreal city" म्हळ्ळें ह्या शाराक समंजस रितीन लागू पडटा.

वास्को 'विशाळ झोपडीपट्टी वरी एक शार' हांगा 'नागडे-उगडे-पोजडे' भरल्यात. एकेकुट्यालो एकेक स्वर किंवा अपस्वर. हांगांच्या जीवनांत ताल ना. सगळें बेताल. मुरगांव बंदर देश-विदेशांचे बावटे उडोवन सजिल्लें एक 'सुपर मार्केट'. हें रोगग्रस्त शार (कवी वयरचे वयर 'उदास वास्को' म्हणटा.( आपल्यालें स्वंत अस्तित्व विनाश करून शापग्रस्त जालां. हाका भयंकर गिराण लागलां. चोर, फटींग, गुंडांक कांही हांगा कमी ना. सर्व कडेन कोयराच्या अळशिकेच्या राशींनी घाणी पसरल्या. मान-मर्याद नासतना बेजबाबदारी बायलो-दादले खंय जाय थंय मलमूत्र विसर्जना करपाक मुखार माकशान पळयनात. तांगेल्या दैनंदिन कार्यक्रमांत ते मग्न किंवा नग्न! हें नग्नसत्य किंवा नग्ननृत्य पळयतल्या सौंदर्याराधक, सौंदर्य अन्वेषक कवीलो जीव तळमळ्ळा, ताचें काळीज फुटलां. हे घाणीचो वारो सर्वव्यापी. सकाळपर्यंत जागे जाले नंतरवरी थंय थंय अळशीक करतले लोक नाक दाबून धरुनूच चलचें पडटा.

*"वळवळ्यांचो नर्क भोगीत*
*. विचित्र जनावरां कशीं हांगा दुबळे मनीस.*
*...हे दुबळे मनीस म्हज्या म्हा-काव्याचे विशय" (२६)*
*हांगाचे मनीस दर्यावरी स्थितप्रज्ञ (१७)*

हांगाचें जीवन कृत्रीम. सुटांबुटांच्या भायल्या भेसाक लोक भुलप, - हो सुद्धां एक विनाशाचो शाप. भायल्या देखाव्याचें जीवन; भितर पोकळ वासो.

दुर्दैवी मनशा वरी वांकडे तिकडे धांवपी रस्त्यांक खबर ना खंयच्यान तांची सुरवात आनी खंय तांचो अंत - मनशाली स्थिती सुद्धां तशीच जाल्या. मनीस एक कायम भोंवपी यात्रीक - तो कितें करता, कितें सोडटा, ताकाच खबर ना; खंय वेता, खंय वचपाक जाय म्हळ्ळेलें जीवन ध्येय ताकाच निश्चीत ना. कशी पुणी जीवन संरयता, झरयता, 'पोटफुगीं शेंबडीं पोरां' पळोवन कवीक कंठाळो सुट्टा. फ्रेंच लेखक सार्त्र चित्रीकत "Nausea" च्या वातावरणान कवी घुस्मट्टा.

मोडकीं घरां, दुबळ्यो खोंपी, घाणीचें गटार, गोरवां-गाडवां वरी हागचे मुळचे मनीस. बुरशी खानावळ. कुशिल्ल्या जनावरा वरी वास्को दिसता. कोणाक हें वास्को सुधारूंक शक्य ना.

*"सळसळटीं खळखळटीं दर्याचीं ल्हारां*
*वास्कोची घाण धुवपाक देगेर येतात*
*पुणून*
*तींच म्हेळी जावन परततात..." (६२)*
*"वास्को रोगीच उरतली?*
*विद्रूप जायतच रावतली?" (६५)*

जाल्यार वेश्यावृत्ती सुपीक आनि संपभरित जावन चलता.

उदा.: *खाजिचे लोक येवन हांगा*
*खणखणीत दुडू मेजून*
*''एका बुरकांत कितलेशेच*
*ओंकून वतात.''* (३७)

अथवा

*''अशी देशा-देशांची याद करून दिवपी*
*ही चली कोणाली?''* (३८)

हें सगळें वर्णन फकत वास्कोक मात्र संबंधीत न्हय वास्को आधुनीक यंत्रयुगाचें, कृत्रीम जीवनाचें, नीरस जीवनाचें, बाजारी मनोवृत्तीचें, कलाहीन संस्कृतिविहीन, सत्वहीन भारतीय नागरिकतेचें संकेत जांता. म्हणूनूच तें सार्वकालीक सत्याचें प्रतीक जाता. कुशिल्लें वास्को "Hamlet" हांतल्या Rotten state of Denmark" अशें जालां, "Was I born to set it right?" म्हूण हॅमलेट डेन्मार्क सुधारच्याक जावचेंना म्हूण निराशा जावन असहायकता दाखयता. तशीच वास्को सुधारच्याक कोणाकही साध्यना.

**काव्य शैली**

उपमा दिवच्यांत कवी सिध्दहस्त. सकयल्लीं उदाहरणां पळयल्यार हें पट्टा.

(१) *''पोलीस स्टेशनामुखार*
*हें शंकराचें झाड*
*...........*
*खूब दिसांची बंदखण भोगून*
*मेकळो जाल्ल्या गुन्यांवकारावरी.''* (२७)

(२) *''आंगार अडेचीं पोवनां, अळंकार चडयल्ल्या*
*कलवंतावरी दिसपी.''* (२)

(३) *''लाकडांचो भुसो धुमसून-पेटून*
*धवो-धवोच कापूस कसौ धुंवर*
*अळंग वयर मळबांत खंय वता?''* (१६)

(४) *''दर्या केन्ना उचंबळचो*
*..............*
*तशे हांगा मनीस.''*

(५) *''हो वाठार फॅशनेबल बायलेवरी:*
*दिसा-उजवाडा गिरस्तेकाय मिरयता.*
*अनी काळोख पडूंक लागतकच*
*रंगपंचम मनयता.''* (३०)

नवकाव्याचो आत्मो म्हळ्यार नवनवीन प्रतिमा समुच्चयान काव्य सजोवचें आनी अर्थाक मूर्तस्वरूप दिवचें. कवीली प्रतिभा संविधान शक्ती थोडींच उदाहरणां पळयल्यार कळटा.

१) *''काळखाक लाशीत चंद्र*
*रातीचेर बलात्कार करतां.''* (२९)

२) *''रात ना सोपूंक आनी उदेता हो सुर्य*
*धतरिच्या कणाकणांत खातडाय विर्य''* (३४)

३) *''खांदार परिस्थितिचो खुरीस घेवन*
*खर्शेत खर्शेत कितलेशेच जेजू*
*वोग्गी रावन अत्याचार सोंसतात.''* (२५)

४) *''हें घडयाळ वयरसून*
*सगळी धांवपळ पळयता*
*...........*
*सरते जिणेची शिटकावणी दीत*
*घंट्या-घंट्यान ठोके दिता.''* (५७)

५) *''कुष्टरोगी म्हातारो चंद्र कृश्ण पक्षांतलो*
*मळबा विटकें वस्त्र पिंजित दुकां गळयता.''* (४१)

६) *''पोटफुगीं शेंबडीं पोरां*
*हांगा निर्वाशीत कशीं भोंवत आसतात*
*कोयराच्या राशींनी आपलें नशीब सोदीत.''* (२२)

७) *''वळवळ्यांचो नर्क भोगीत*
*................*
*निर्फळ जिणेच्या साबार पावसाळ्यांचे इतिहास*
*दोळ्यांतल्यान पर्गटायत*
*हात पसरावन भोंवतात!''* (२६)

ह्या खंडकाव्यांत एक महत्वाची प्रतिमा कवी वयरचे वयर उपयोग करता (Recurrent image). ती म्हळ्यार काळखाची प्रतिमा. काळोख - हो शब्द बारा खेपेक येता (रात, गिराण असले शब्द सोडून). ह्या प्रतिमा मुखांतर वास्को शारांतलें ज़ीवन अज्ञानांत बुडलां. लोक फकत नरकयातना भोगीत आसात. सुखाचो लवलेश तांगेल्या जीवनांत पळोवपाक मेळना. जीवन दु:खमय जीवन आसा. लोक अंधकारांत तळमळत लोळत आसात. हें सांगपाक आनी जीवनाचें अकराळ विकराळ रूप दाखोवपाक काळखाची प्रतिमा पुनरावर्तन जाता.

शब्द चमत्कार सकल्ल्या ओळींत पळोवपाक मेळटा—

१) *''वाऱ्यार पासयो मारपी वास*
*गळोभर, स्वासभर*
*कोणाकूच चुकना, कोणाकूच चुकचोना.''* (१३)

२) *''ह्या रंगयाळ्या रांगोळींतल्या*
*जेजूचे मायेस्त दोळे.''* (५८)

हें काव्य कवीन नवकाव्याचे रितीन बरयलां. नवकाव्य बुद्धि प्रधान काव्य, भावना प्रधान न्हय. व्यक्तिगत (subjective) काव्य न्हय; वस्तुनिष्ठ (objective) काव्य. रम्य (Romantic) काव्यांत उपमा, उत्प्रेक्षा आसल्यार नवकाव्यांत प्रतिमा, प्रतीक हांकां महत्व आसा. आंग्ल कवी टी.एस्.एलियटाक नवकाव्याचो जनक म्हणतात. ताणें १९२२ इसवींत "The Waste Land" बरयलें. ताचो प्रभाव जागतीक स्तराचेर विशेषत: भारतीय काव्याचेर जाल्लो. बंगाली, मराठी, कन्नड भाशेंत नवकाव्य प्रारंभ जालें आनी कोंकणी काव्य सुद्धां ताका अपवाद जालेंना. काव्यभाषा काव्यविचार बदलत आसचें स्वाभावीक. काव्य शाश्वत रावतलें उदक न्हय; सदाकाल व्हांवची न्हंयी. सिद्धशैलीच्या बंधनांतुल्यान मुक्त जावन नवकाव्याचे घाटींत पाडगांवकारांन हें खंडकाव्य बरयलां. हीच शैली तांगेलो उत्कृष्ट कविता संग्रह *'व्हांवती न्हय काळाची'* ह्या कविता संग्रहांत पराकाष्ठेक पावता.

# ‘इ’मेरिका

## मधुसूदन जोशी

जानेर २००८ उदेलो तोच अमेरिकेंतल्या मिशिगन विद्यापीठाचो ईमेल घेवन. प्रो. जेम्स स्टिव्हनसनान बरयल्लें, “आमी तुका म्हयन्या भराच्या ट्रेनिंगा खातीर आमंत्रण दितात.” ईमेलाचो प्रिंट घेवन रोखडोच सरकारी परवानगेच्या वावराक लागलों. पासपोर्ट तयार आशिल्लोच. गोंय सरकाराची परवानगी मेळचे पयलीं हांवें अमेरिकेंतल्या म्हज्या इश्टां कडें ‘व्हिझा’ची म्हायती घेवपाक सुरवात केली. व्हिझा खातीर अर्ज मुंबय वा पुण्या भरूं येता. पयशे मडगांवां एच्.डी.एफ्.सी. बँकेंत भरूं येतात. म्हायती मेळटाली तसो हांव पावलां उबारपाक लागलों. सोळा मेक व्हिझा खातीरचे मुलाखतीचो दीस उजवाडलो. मुंबय म्हालक्ष्मी देवळा लागीं आशिल्ले अमेरिकन कॉन्सुलेटींत सकाळच्या इकरांक मुलाखत आशिल्ली.

व्हिझाचो अर्ज ‘ऑनलायन्’ भरिल्लो. असल्या ‘माटवा’ पोंदच्यान वचपाचो पयलोच अणभव. सोळा मेक म्हजें लग्न जाल्लें. तेदेवेळार लेगीत मनांत धाकधूक नाशिल्ली ती हांव अमेरिकेच्या ‘व्हिझा’चे लायनींत उबो आसतना जाणवपाक लागली.

निमाणें वाट पळोवन पळोवन म्हजो नंबर आयलो. जनेलाचे दुसरे वटेन अमेरिकी कॉन्सुलेटीचो मनीस कागदां तपासतालो. प्रस्न विचारतालो, “यु आर फ्रॉम गोवा?” ताच्या पयल्याच प्रस्नांत बेठेंच आपलेपण जाणवलें. ताणें म्हजीं सर्टिफिकेटां तपासलीं. हांवें पीएच्.डी. केल्या काय असो प्रस्न विचारलो. हांवें ताका म्हजें सर्टिफिकेट दाखयलें. “प्रस्नाक जाता जाल्यार तोंडा परस कागदा वरवीं जाप दी” ही म्हज्या इश्टाची सुचवण हांवें जाता तितली उपेगांत हाडली. दोन-तीन मिनटांच्या उलोवपा उपरांत त्या मनशान हांसून म्हळें, “गो अँड ऍन्जॉय द ट्रीप”



कोडू कराय गोड गुळी

व्हिझाचें काम जाल्ल्याच्या त्या उतरांनी मन धादोशी जालें. सांजे पासपोर्टार धा वर्सांचो टुरिस्ट व्हिझा पळोवन खोस भोगली. खोशयेच्या खिणा वेळार घरकान्न आनी चलो वांगडा आशिल्लीं. लग्ना उपरांतच्या संवसारांत चलो जाल्ल्याचे खोशये येदी दुसरी खोस लग्नाच्या वाडदिसाक व्हिझान दिल्ली.

व्हिझा मेळिल्लो. उपरांतचें काम म्हळ्यार तिकेट. ट्रेनींग जुलै म्हयन्यांत आशिल्लें. जूनाच्या निमाण्या सप्तकांत हांवें वचपाचें थारायल्लें. तिकीट बुकींग ‘ऑनलायन’. ‘ई’ दुनियेची सुरवात जाल्ली. लुफ्तान्झाच्या फ्रँकफर्टा वयल्यान वचपी विमानाच्यो तिकेटी हांवें काडल्यो. उपरांत बॅगां, मुस्तायकी, हेर सामान. हें सगळें घरकान्न पळयताली.

दाभोळे विमानतळार ‘टाटा बाय’ करपाक घरचीं आयिल्लीं. सेक्युरिटी चॅक जाले उपरांत खीणभर, हांव कित्याक वतां, असो प्रस्न मनांत उप्रासलो. केन्ना केन्ना घरची याद येता आनी मन सैरभर जाता. पावलां जड जातात. ताटातुटी वेळा वयली ही म्हजी मानसीकताय ‘रिपीट डोझा’ भाशेन हांव पचयतां. मुंबय दनपरां पावलों. दुसऱ्या दिसा फांतोडेर अमेरिकेचें विमान धरपाचें आशिल्लें. रिलायन्साच्या गॅस्ट हाउजांत तो दीस हांवें घालयलो. फांतोडेर दोनाचें विमान धरपाक गेस्ट हाउजांतल्यान चार वरां पयलींच म्हळ्यार धांव हांव विमानतळार पावलों. सुरक्षीततायेचे सगळे ‘सुवाळे’ मनोवन जातकीच विमानाची वाट पळयत बसलों. दोळ्यांर झेम मात्तूय नाशिल्ली. रातीच्या दोनांक जागो रावपाचो घडये पयलोच प्रसंग आसूं येत (गोंय नाटकाची खण आसून लेगीत). विमानांत बसपाची सुचवण जाली. खांद्याक आडकयल्लो लॅपटॉप आनी हातांतलें बॅग सांबाळीत हांव म्हज्या सिटा कडें पावलों. सिटार बसतकीच येदो वेळ आफुडऽ नाशिल्ली न्हीद म्हाका वेंगेंत घेवपाक लागली. विमानांत त्या त्या वाटाराच्या वेळा प्रमाण रातचीं जेवण खाण दितात. मुंबय रातचीं दोन जाल्लीं तेन्ना फ्रँकफर्टाक रातचीं णव. आमकां डिनर दिलें. फांतोडेर दोन-अडेजांक ‘डिनर’. खातलों कितें कपळ? विमानांतलो उजवाड उणो जालो. मुखावयले टिव्ही स्क्रिनीर विमानाची म्हायती, वेळ, काळ दाखयताले. फ्रँकफर्ट मेरेनचो प्रवास स सात वरांचो आशिल्लो. हांवें घडयाळ फ्रँकफर्टाच्या वेळा प्रमाण लायली. दोळे धांपून हांव न्हिदेक शरण गेलों. जाग आयली ती ‘वॉट व्हिल यू हॅव फॉर ब्रेकफास्ट?’ ह्या हवायसुंदरेच्या प्रस्नान. घडयाळीर पळयलें. स वरां जाल्लीं.

“आशियाई ब्रेक फास्ट” म्हजी तिकीट काडटना सांगिल्लें तेंच हांवें सांगलें. सिटा वयलो उठलों आनी पांय मेकळे केले. सकाळचे सगळे वावर ‘हवेंत उफेत’ जाले. तोंडार उदक मारतकच खऱ्यांनीच जीव फ्रॅश जालो. हून कॉफी आनी शिरो-उपमा पोटांत गेलो तसो जीव घटमूट जाल्ले वरी जालो.

जनेलांतल्यान भायर पळयलें. एके वटेन तांबडें मळब दिसपाक लागलें. सूर्य उदेवपाक सुरवात जाली. धुक्यांत लिपिल्ले दोंगर, निळीं-पाचवीं शेतां आनी भुरग्यांच्या खेळण्यांतले बंगले कश्यो इमारती. सूर्याचें किरण नव्या दिसाचो संदेश घेवन विमानाच्या जनेलांतल्यान तोंडार पडलें. म्हजेंच पडबिंब जनेलाच्या हारशांत म्हाका दिसलें.

फ्रँकफर्ट पावत आयिल्ले. युरोपांतल्या खंयच्या देशा वयल्यान वतात काय? पोंदा मनभुलसावपी वाटार. कानाक लायिल्ल्या हेड फोनांतल्यान शास्त्रीय संगिताचे सूर ल्हवू ल्हवू गात्रां जागयताले. हांव खऱ्यांनीच हवेंत उफेतालों - मनान, शरिरान, विचारान.

फ्रँकफर्ट हो युरोपांतलो एक व्हडलो विमानतळ. विमान थारलें तशी देंवपाची ताकतीक सुरू जाली. अमेरिकेचें कनेक्टींग विमान दोन वरां उपरांत आशिल्लें. हातांतल्या बँगांत दवरिल्लो पासपोर्ट परतून हात लावन पळयलो. विमानांतल्यान देंवून मर्दी आपचलपी गाड्यो, ल्हानश्यो ट्रेनी, आपचलपी बॅल्ट हांचे वरवीं टर्मिनल एकविसार पावलों. अर्द वर तरी धांव-धांव केली आसूं येत. भायलें तापमान धा डिग्री आशिल्लें. विमानतळा भितर वीस बावीस डिग्री. म्हळ्यार जाय तितलीच थंडी. विमानतळा वयल्यो सोयी-सुविधा पळोवपा सारक्यो आशिल्ल्यो. थंय डॉलर आनी युरो हीं चलनां चलतालीं. टायमपासाक बेठोच जर्मन पेपर घेतलो. मुंबयंतलें आनी विमानांतलें आशियायी वातावरण. हांगाच्या वातावरणाची 'कात' बदलिल्ली. धवें वातावरण भोंवतणी आशिल्लें.

मिचिगनाचें मुखेल शार 'डेट्रॉट'. थंयच्यान ॲन-आरबॉर वरा भराच्या अंतराचेर. मुंबय चडटना मन व्हडल्या प्रवासाच्या कौतुकान भरिल्लें. तें आतां थोडें भोव 'आंवय, हें कांयच न्हय' हे पातळेर देंवपाक लागिल्लें. परतून आठ वरांचो विमान प्रवास. युरोपा वयल्यान विमान उडटना स्क्रिनार 'लंडन' अशें दाखयलें. जनेलांतल्यान सकयल पळयल्यार पयस निळो ॲटलांटीक तितलो नदरेंत भरलो. विमान प्रवास फकत खावप, पिवप, आनी न्हिदप ह्या तीन उतरांनीच सोंपता.

**''अमेरिकेंत अध्यक्षपदाचे वेंचणुकेचो प्रचार नेटान चलतालो. ओबामा येवपाची खुबश्या लोकांक खात्री दिसताली. म्हजो काळो पांय अमेरिकेचे भुंयेक लागिल्लो.''**

हें हांवें आठ वरां अणभवलें. डेट्रॉयटांत दनपारां एकांक विमान पावलें. साम्राज्य वाडोवपाक आनी धर्म प्रसार करपाक गोऱ्यांनी आपले पांय दुसऱ्या वाटारांनी दवरले. इतिहासाचो ओघ त्या पावलांनी बदल्लो. अमेरिकेंत डेट्रॉयट विमानतळार पावल दवरतना याद जाली ती स्वामी विवेकानंदांची आनी तांचे ते शिकागो परिशदेची.

इमिग्रेशनाचे सोपस्कार पुराय करूंक हांव विमानतळा भायर पावलों. हातांत बोर्ड घेवन टॅक्सीवालो उबो आशिल्लो. म्हजें नांव पळोवन आंगार मांस बी वाडटा तसलें कितेंशें जालें. अनवळखी वाठारांत आमच्या स्वागताक टॅक्सीवालो रावता तेदेवेळार तरी तो आमकां देवदूत कसो दिसता. अमेरिकेंत निग्रोक तांचे काती वयल्यान उलो मारिनात. ताका 'आफ्रो-अमेरिकन' म्हणटात. अमेरिकेंत अध्यक्षपदाचे वेंचणुकेचो प्रचार नेटान चलतालो. ओबामा येवपाची खुबश्या लोकांक खात्री दिसताली. म्हजो काळो पांय अमेरिकेचे भुंयेक लागिल्लो. अमेरिका म्हळ्यार सर्ग. मन उफेता. ते अवस्थेक फार्माकॉलजींत 'युफोरिया' म्हणटात. चड करून घुंवळे वखदां ती अवस्था हाडटात. पूण तसलें कसलेंच वखद घे नासतना हांव युफोरियेंटीक जाल्लों.

टॅक्सी वेगान धांवताली. नदर पावता थंय मेरेन सरळ हायवे. स-स लेनींचे. त्या हायवेंर भिरांकूळ स्पिडीन धांवपी मोटारी. इतले म्हणसर वाऱ्यार उफेवपी मनाक ब्रेक लागलो. घरची याद आयली. अमेरिकेक दनपारचें एक जाल्लें. गोंयांत रातीचीं इक्रा तरी जावंक जाय. हांवें फोन लायलो. बॅल चड वेळ वाजली ना. ''हॅलो'' दुसरे वटेच्यान घरकान्नीचो आवाज.

''हांव पावलों. न्हिदा आतां. फाल्यां करतां!'' ''बरें. सांबाळून...'' घरकान्नीचींय दोनूच उतरां. घरची ओड आनी कोण तरी आपले खातीर जागें आसतलेंच हो विश्वास. जण एकल्या संवसारी मनशाक हें अदृश्य दावें जाग्यार दवरता.

वरा भरयान टॅक्सी मेरी मार्कलेंत पावली. ड्रायव्हराक एक डॉलर टिप दिवन हांव सामान घेवन मेरी मार्कले ह्या वसतीघराच्या कार्यालयांत पावलों.

म्हजें नांव सांगतकीच कम्प्युटराचेर थंयचे बायल मनशेन सगळी म्हायती पळयली. रुमाची चावी म्हण 'एटीएम्'कार्डा सारकें ई-कार्ड म्हाका दिलें. म्हजो इमेरिकेंतलो वावर खऱ्या अर्थान सुरवात जालो.

सुमार चोवीस वरांचो प्रवास जाल्लो. पुरो जावपा सारकें तशें कांयच नाशिल्लें. पूण रुमांत सामान दवरलें. स्वागताक दवरिल्ल्या फळांच्या हिराळ्यांत आशिल्लो ॲपल ज्यूस पिलों. दोळे जड जावपाक सुरवात जाल्ली. मिचिगनांत दनपारचीं दोन जाल्लीं. जाल्यार गोंयांत रातचीं बारा. हांव गादयेर लवंडलों. न्हीद केन्ना लागली, समजलेंच ना.

रातीं जाग आयली ती टॉयलेटाक वचपा खातीर. आंगांत कपडे प्रवासाचेच आशिल्ले. मेजा वयलें ई-कार्ड वा ई-चावी हांवें बोल्सांत घाली आनी घडयाळींत पळयलें. साडे-इकरा जावन गेल्लीं. दार ओडून घेतलें आनी हॉस्टेलाचे लांब पॅसेजींतल्यान चलपाक लागलों. रातीच्या वेळार कोणूच दिसऽ नाशिल्लो. परतून म्हज्या रुमा कडें आयलों. मनांत विचार आयलो, गोंयांत सकाळचीं आठ-णव वरां जाल्यांत आसतलीं. वाटार बदल्लो म्हण मन-शरीर रोखडेंच बदलता थोडेंच. मनीस 'आदल्या तेंपार हें असलें नाशिल्लें, तेन्ना कितले सुखी आशिल्ले आमी' असो विचार करता तेन्ना तो फाटल्या काळांत रेंगाळीत आसता. मनांतली जैवीक घडयाळ जिचेर न्हीद निंबून आसा तिवूय अशीच आसता. 'जॅट लॅग' म्हणटात तें हेंच.

विचारांचे तनरेंत हांव म्हज्या रुमा कडें परतलों. दाराच्या हँडला कडें आशिल्ले खांचींत ई-कार्ड (चावी) घाली. हँडल घुंवडायलें. दार उकतें जालें ना! चुकलों काय कार्ड घालपाक अशें दिसून कार्ड परतून भायर-भितर केलें. हँडल नेटान घुंवडायलें. दार मात उकतें जालें ना! बाबा! अमेरिकेंतली मध्यानरात. वळख ना देख. बोल्सांत नात पयशे. अलीबाबाचे गुहे भायर 'तिळा, तिळा दार उकतें कर' मंत्राच्या सोदांत हांव दिनवान जावन उबो आशिल्लों. 'इमेरिके'चो प्रसाद असो पयलेच राती मेळत हें हांवें सपनांत लेगीत चितूंक नासलें. आंगार शेळो घाम फुटलो. आंगा वयलें जॅकेट देवयलें. कौतूक सोंपून आतां भंय राज्य करपाक लागिल्लो. ऑफिसांत वचपाचें येवजून हांवें थंयच्यान पावलां उबारपाक सुरवात केली. ऑफिसा कडें पावलों.

कावंटर बंद. आतां मात म्हजेर तोड धांपून 'बोबो' मारपाची पाळी आयली. खंय तरी कोनशाक एक आफ्रिकी-अमेरिकन कानाक हेड फोन लावन संगीत आयकतालो. ताची समाधी मोडची न्हय अशें येवजून हांव थंयच्या सोप्यार बसलों. कांय नजो, न्हीद पुराय जाल्याच सकाळ जायसर सोप्यारूच बसपाक कांय नजो.

अर्द वर तरी हांव बेचैन जावन थंय उठाबशी काडिल्ले भाशेन भोंवतालों. अचकीत एका रुमाचें दार उकतें जालें आनी इंग्लीश पिक्चरांनी बी दाखयतात तसलो भरिल्ल्या आंगाचो, बावळ्याच्यो बेरकुळ्यो फुगिल्ल्यो सेक्युरिटी भायर सरलो. म्हजे कडेन ताणें दुबावीत नदरेन पळयलें. हांवूच ताचे म्हऱ्यांत गेलों. 'सर', हांवें म्हळें. (अमेरिकेंत बॉसाक लेगीत 'सर' म्हणिनात हें उपरांत कळ्ळें. ताणें 'वॉटस् प्राबःम्?' असो प्रस्न केलो. मनीस कांचवेल्लो आसतकीच उतरां फुटपाक आडखळ येता. म्हजी इंडियन-इंग्लीश' आनी ताचे 'जबर' उच्चार हांची कसवटणी सुरू जाली. तरी लेगीत म्हंजी समस्या ताका कळ्ळी. तो म्हजे वांगडा कुडी सरीं आयलो. आपणालें ई-कार्ड वापरून ताणें दार उकतें करपाचो यत्न केलो.

'सॉरी-गाय'! अशें कितें तरी ताणें म्हळें. 'आय निड टू टॉक टू माय बास!'' म्हाका दिल्लो रूम उकतो करपाचो अधिकार ताच्या 'ई-कार्डा'क नाशिल्लो. वॉकी-टॉकी वयल्यान ताणें आपणाल्या बॉसा कडें संपर्क सादलो. कितें तरी उलोवणें जातकीच ताणें दुसरे फावट कार्ड घालून हॅंडलाक आशिल्ले प्लेटीवयले काय नंबर दांबले. दार उकतें जालें. म्हाका 'सूऽ' जालें. रुमांत भितर सरून ताणें म्हजो पासपोर्ट पळोवन नंबर बरोवन घेतलो. ताच्या काळ्याकिट्ट तोंडार हांशें फुल्लें. ताचे धवेच दांत ते काळे फाटभुंयेर आनीक धवे दिसले. हांवूय हांसलो.

''गुड नायट''! ताणें रुमांतल्यान भायर सरत म्हळें.

म्हजी न्हीद पुराय जाल्ली. पोटांत भूक पडिल्ली. हांवें दार धांपलें. बॅग उगडून बिस्किटी बीन जिनस काडून 'उदरभरण' केलें. अमेरिकेंतली 'ड्रमेरिका' पयलेच राती म्हाका चुरुचुरे लावन गेल्ली. पूण म्हळां न्हय, ''देव वाटायत ताका कोण खायत''?

अमेरिकेंतली ती रात हांवें भारतांतलो दीस जागयत काडली. नवो दीस उजवाडपाची वाट पळयत हांव गादयेर लोळत पडिल्लों. हातांत बेठेंच पुस्तक धरून नदर भोंवडायत न्हिदेचो म्हजो आपालिपाचो खेळ सुरू जालो.

दुसऱ्या दिसा, दनपारां जेवणा वेळार जगाच्या विंगड विंगड वाटारांतल्यान आयिल्ल्या भुरग्यां वांगडचे भासाभाशेंत वांटो घेवपाक मेळ्ळो. सिरियाच्या आमर-मारह, जपाना वांगडचो ऑनाचो, अणभव, जीमीचो कोरियन अणभव हांचे वांगडा आमचोय अणभव ते भासाभाशेंतल्यान सगळ्यांक मेळ्ळो. खरें म्हळ्यार आमच्या देशांतली फार्मसी प्रथा त्या दर्जाची ना. पूण दुसऱ्या देशांत वचून आमगेलें दळदीर सांगचे परस आमचे मुखार आशिल्लीं आव्हानां आनी आमचें व्हडपण सांगप हें खंयच्याय देशाभिमान्याक सोबता. न्हय, ताणें तें तशें करूंक जाय. हांवें म्हज्या उलोवपांत तोच यत्न केलो. आमची लोकशाय पद्दत हें मुखेल खाशेलेपण. हांगची विविधताय, आठ विंगड भौगोलीक वाटार, वखदांचें उत्पादन व्हडा प्रमाणांत, तेंवूय जागतीक पातळे वयलें. भलायकी सेवा सवाय प्रमाणांत - हें सगळें हांव आमचें दुबळेपण लिपोवपा खातीर न्हय तर आमचे गूण तांचे मुखार मांडपाचे नदरेन सांगतालों.

जपानांत भलायकी सेवा पुरायेन सरकाराची. दोतोर म्हळ्यार देव! एका संस्कृत वचनाची याद जाली. दोतोरं यमाचो भाव खंय! पूण यम फकत प्राण व्हरता. दोतोर जीव आनी दुड्डू व्हरता. हाकाच लागून फार्मासिस्टाचें स्थान इल्लें कमी म्हत्वाचें. दक्षीण कोरियाचे जीमीचे अणभव वेगळे. थंय तर फार्मासिस्टाचो मागमूस ना. ही गजाल कांय वर्सां पयलींची. आतां परिस्थिती बदलता. खुद्द अमेरिकेंत सगळें सारकें खंय आसा? विंगड विंगड प्रांतांनी व्यवस्था बदलता. आयचें रुपडें हें भौशीक भलायकेच्या मळार वीस पंचवीस वर्सां पयलीं जाल्ल्या संघर्शाक लागून निर्मलां.

हांगा फार्मसीची शिक्षण व्यवस्था बदलल्याच दोन दसकां पयलीं. दोतोरां भाशेन दोन वर्सांची इंन्टर्नशीप. पयलीं जेनरल मागीर खासा जायत्या विशयांनी. हें सगळें आयकून गोंयांतली पोर्तुगेजां तेंपा वयली व्यवस्था याद जाली. समान नागरी कायद्या भाशेन तेन्रांचो वखदांचो कायदोय दवरिल्लो जाल्यार? इतिहास 'जर' आनी 'तर' ह्या उतरांक बदना. तो आसता तसोच बरो. आयज गोंयांत हिंदू फार्मास कांय प्रयोग करता. गोंयांत साक्षरतायेचें प्रमाण व्हड. इंग्रजी समजुपी खूब लोक. इतिहासा परस फुडाराचेर म्हजी नदर लागली. भारतीय व्यवस्थे विशीं उलयतना पुराय भारतभर सारकेंच आसा अशें समजुंचें न्हय अशें शिटकावन हांवें म्हळें, बऱ्यो फार्मसी प्रथा गोंयांत सुरू करपाक संद आसा. घडये हांगा गोंय देशाचें फुडारपण घेत. कारण, लोकशायेंत भोवमताक वालोर आसलो तरी गुणवत्तेक कोण फाटी काडूंक शकना. सिरिया आनी हेर देशांनी हे परस वेगळें चित्र ना! चर्चा रंगांत आयिल्ली. हॉलाचो वेळ आशिल्लो दोन वरांचो. वेळ सोंपलो. चर्चा कांयशी अर्दकुटी उडोवन आमी भायर सरले. अमेरिकेंत वेळ वरांनी, मिनटांनी, सेकंदांनी मेळटा. जीण 'निमिशमात्रेंत' धांवता. सुशेगाद गोंयकारांक, वेळाचें बंधन न बाळगुप्याक हांगा 'नो एंट्री'.

चर्चे पयलीं कांय वेळ आनीक खूब लोक मेळिल्ले. तांतूंत अहमदाबादचें वर्षा मेहता. भारतीय सुतांत गांथिल्ले मणी. सूत तुटलें तरी गांठ मारून माळ तयार जावची तशे उलोवपाक लागले. भारता खातीर खूब कितें करपाचो हावेस. हांकां दाखोवया आमी. आमी ते आमी. तुमी तुमी. आमी कितें कमी? ओगी रावात तुमी! ताच्या उलोवपांत भारताचो उपाट मोग. म्हाका स्वातंत्र्यवीर सावरकाराल्या 'ने मजशी ने' पदाची याद जाली. हिंदींत उलयलें. शिवराक जेवपी. हांव म्हयन्या खातीर आयिल्लों. जाल्यार म्हजी केदी धांदळ! तें तर दोन तपां हांगा. जेवण जेवी नासतना खबरांनीच पोट भरलें. मिचिगन विद्यापीठांत भुरग्यांच्या वॉर्डांत काम करून भोव नामना जोडिल्ली वर्षान.

सांजे बेजबॉल मॅच आशिल्ली. पूण असो उटंगारांचो पावस!

खेळ जालोच ना! आमी बद्द रुमार. पिझा खावन डिनर जालें.

खंयचोय वाटार नकाशा वरवीं भोंवप सोपो. हांगा पाविल्ल्याच दिसा मिचिगन विद्यापीठाचो नकाशो दिल्लो. ॲन. आर. बोर ल्हान शार. पणजे येदेंच. लाखभर लोकसंख्या. पूण व्हडले रस्ते. सोबीत बिल्डिंगो. नेटार सर्फींग करून थोडी भोव म्हायती मेळयल्ली. तीन भारतीय रेस्टॉरंट. राजारानी, शालिमार, मद्रास कॅफे. आयिल्लों त्या दिसा मद्रास कॅफेंत गेल्लों. मडगांवच्या 'द्रोगारिया मिनेझिसा'चो पात्रांव आगुस्तीन हांणी आपलो इश्ट, दो. मारियो हाका इमेल धाडून म्हजी ताची भेट घडयली. जाणट्या लोकांचे भलायकेचो तज्ञ म्हण ताणें नामना जोडिल्ली. सांजे ताचो फोन आयलो. रातीं भायर जेवपाक या! गाडी घेवन मेरी मार्कले - हांव रावतां थंय पावलो. पयलीं शालिमार पळयलें. ताका आवडलेंना! पेट्रोल घालपाक पेट्रोल पंपार गेले. सगळें ई-कार्डार. सुमार पांच डॉलरांक एक गॅलन ब्रिटनाचो गॅलन आनी अमेरिकेचो गॅलन हातूंत फरक. ब्रिटनाक एक गॅलन म्हळ्यार साडेचार लिटर, जाल्यार अमेरिकेक ३.८ लिटर. एका गॅलनाक पांच डॉलर म्हळ्यार दोनशें एक रुपया. सुमार पन्नास रुपया लिटराक. हेर वस्तूंचें मोल पळयल्यार पेट्रोल सवाय. फाटल्या स म्हयन्यांत दुपेटीन वाड जाल्ली. म्हळ्यार पंचवीस रुपयान मेळटालें. आंतरराष्ट्रीय बाजारांत पेट्रोल फाटल्या पांच वर्सांत चार पटींनी वाडिल्ल्याचें सांगलें. म्हजी अर्थशास्त्रांतली गती आखूडपाक लागली. आमी राजारानी रेस्टॉरंटांत गेले. दोन डिनर मागयले. ताचे वांगडा कॉम्प्लॅमेंटरी भजीं, कबाब, सामोसा अशेंय आयलें. शिवराक जेवण मागयलें. पालक पनीर, मटार पनीर, पराठा. खबरी मारीत जेवण चलतालें. रेस्टोरंटांत भायर बशिल्ले. आमचें गोंया विशीं 'आरण्यरुदन' चलिल्लें. तो जांणट्यांचे भलायकेचो जाळवणदार. जाणट्यांचे भलायकेचे प्रस्न, गोंयांतले तांचे प्रस्न, गोंयांत न मेळपी वखदां! म्हायतीच्या मळार आमी कितले फाटीं, सगळें उलयतालो. गोंयांत कितें तरी बरें जावचें ही आस्त.

हांगा आयिल्लों त्या दिसा खोंटलो भरून फळां दिवन स्वागत जाल्लें. मर्दी फ्रीज मेळिल्लो. तातूंत फळां घालीं. खोंटलो 'थ्रॅश'! म्हळ्यार कोयर. तरी उडोवपाक जिवार आयलें. तसोच तो मेजाच्या खणांत दवरलो. गोंयांत वतना जागो आसल्यार व्हरचो म्हण. हाचे वयल्यान याद जाली, कचरो करपांत हे लोक हुशार. नितळसाण आसा. पूण कोयर टनांनी. बरे बरे कागद, बऱ्यांतलीं बरीं पॅकिंगां 'थ्रॅश'. वापरात आनी उडयात. हांगच्या लोकांक भारत क्रिकेटीचें पिशें आशिल्लो देस म्हूण खबर आसा. तांकां बेज बॉल आवडटा. बेसी हो काळजा दुयेंसाचेर संशोधन करता. ताका ह्या खेळाची खूब आवड. एक दीस मॅच दाखोवपाक आमकां सगळ्यांक गाडयेंत घालून व्हेले. गाडी टॉयॉटा. पेट्रोल म्हारग जाल्ल्यान असल्यो गाडयो आता कोण चलयना. गाडी चलयतना तो खबरी सांगतालो. म्हारगाय कशी जाली! पेट्रोल वाडपाक कोण जापसालदार? सगळ्याचेर तो मत व्यक्त करपाक लागलो. भारतात पेट्रोल चड खपता! म्हण हो उजो! हांवें वग्गी बसप पसंद केलें. आमचे जोडींतले कितले पयशे आमी पेट्रोलाचेर मोडटात? भौशीक येरादारी व्यवस्थेचेर भारतांत कितले लोक निंबून आसात? अमेरिकेंत स्वत:च्यो गाडयो. हाचे खेरीज दुसरी बरी व्यवस्था ना!

---

*(पान ९ वयल्यान)*

प्रवृत्तीक तोंड दिवचें पडलां हाचो हांगा मुजरत उगडास करीन दिसता. दक्षीण आफ्रिकेंतलो रंगभेद (अपार्थहेड) सोंपलो जायत. पूण संवसारांत तो पुरायान ना जालो अशें म्हणूं येना.

सप्तक्रांतींतलो आनीक एक म्हत्त्वाचो मुद्दो म्हळ्यार शस्त्रां आनी अणवीक अस्त्रां निर्माण करपाचेर पुराय बंदी हाडप. हो मुद्दो फक्त अमुकच एका देशाक न्हय तर संवसारांतल्या सगळ्याच राष्ट्रांक लागू जाता. मनीसकुळयेक आज शस्त्रांची गरज ना. मनीसपणाची गरज आसा अशें डॉ.लोहिया मानताले. मनीसपण सांबाळटले जाल्यार, सगळ्यांत पयलीं अन्न, वस्त्र आनी निवारो म्हत्त्वाचो. शस्त्रां-अस्त्रां न्हय.

जातीवेवस्था हो सप्तक्रांतींतलो एक भोव म्हत्त्वाचो मुद्दो. हो मुद्दो भारतांतली जी जातीवेवस्था आसा ती मुखेलपणान नदरे मुखार दवरून मांडिल्लो आसा. डॉ. लोहिया जातीप्रथे आड एक सारके आवाज उठयताले आनी तिचें उच्चाटण करपाचे उपायय ते सांगताले. जातीप्रथा, मागीर ती कसल्याय स्वरुपांतली आसूं, अस्तित्वांत आसतली तों मेरेन खऱ्या अर्थान हो देश वयर सरप कठीणच अशें डॉ. लोहिया उकतेपणीं सांगताले. जातींनी वांटून गेल्लो समाज वयलेचाराक एका राष्ट्राचे नागरीक म्हणून एक दिसलो म्हणून कांय भागना. तो मनानय जोडिल्लो आसूंक जाय अशें डॉ. लोहिया मानताले. जातीचो आदार घेवन हें जावपाचें ना.

आनी शेवटाक जो मुद्दो येता तो म्हळ्यार मनशाची व्यक्तीगत जीण. डॉ. लोहिया म्हणटाले, मनशाचे जिणेंत अश्यो कांय गजाली आसात जातूंत सरकार वा खंयचीय संघटना वा राज्य व्यवस्थेक हात बोट घालपाचो अधिकार आसूंक फावना. आमच्या देशांत अश्यो कांय संघटना आसात ज्यो मनशाक मनशा सारको जियेवंक दिवपा बदला देवा धर्माच्या नांवान ताचेर नाका जाल्ल्यो आगळिको करतात. डॉ. लोहियांचे सप्तक्रांतीत असल्या आगळिकांक निखालस सुवात ना. तांची मनीसपणाची कल्पना ही सुबुद्ध मुक्त मानवतेची कल्पना.

डॉ. लोहियांनी मांडिल्ल्या विचारांत एक सुत्रबद्दताय आसा. एक एक विचार वेगळो काडूंक मेळना. सप्तरंगी इंद्रधोणवा सारकी ही सप्तक्रांतीची कल्पना. ते कल्पनेंत फक्त आमच्या देशाचोच विचार ना. पुराय संवसाराच्या कल्याणाचें सूत्र तातूंत, एका धाग्यांत दुसरो धागो हे रितीन गुंथिल्लें आसा. केन्ना तरी, अदीक विस्तारान हाचेर चिंतपाची आनी चर्चा करपाची खऱ्यांनीच गरज आसा.




कोंकणी म्हणटात ती म्हजी एकल्याचीच आवय न्हय. म्हणटकच ज्या लोकांक कोंकणी मासीक म्हळ्यार कितें तें समजता तांकां इल्लीशी लागणूक आसताच. हांवें कागदांची खबर सांगली तेन्ना हो मनीस तें नेटान चलोवपाक पालव दिवंक जाय म्हूण सांगता तेन्ना मनांतल्या मनांत तरी म्हाका दिशिल्लें, हो तें मुजरत मुंबय मागोवन घेतलो आनी आपल्याच्यान जाता तें काम आपूण करतलो. फोलींचे पयशे म्हजे कडल्यान घेतिल्ले जाल्यार पसून म्हज्यानं ताका दोश दिवंक नजो आसलो.

# पाल्र्याक गोमन्ताश्रमांत

**१७.१०.१९४८. शेनवार, विले पार्ले**

३० तारकेक एक कूड सोडून दुसरी धरली. हांगा गोमन्ताश्रमांत पार्ल्याक पावले करतां करतां. जा२गो बरो मेळिल्ल्यान मातसो सुशेग आसा. तशें पळोवंक गेल्यार हो जागो सगळ्या वाटांनी म्हारग. भाडें पंचेचाळीस रुपया. पागडी अडेजशें. ते भायर restrictions आसाच. चवगां वयर कोणाक घेवंक जायना. भौ. काशिनाथबाबांक खऱ्यांनीच वेव्हाराची जाणीव आसा.

आतां पर्यंत ज्या मनशां कडेन हांव वावुरलां तांचे कडेन म्हाका वेव्हारान चलूंक येवंक ना. वेव्हारी फायदो तांचोच जाला... हांवें जायतें जोडलां ह्या कामाच्या वांट्याचें. अणभव घेतल्यात. कसलीच आशा बाळगी नासतना काम करपाक शिकलां.

आतां हे फुडें अणभव घेत रावपूच. पणून आपली घडणूक आनी चलणूक हांचे कडेन ध्यान दिवप. मनशांत खूब आसूंक जाय, तरूच तो दिवपाक शकता. आतां पर्यंत superficial कामां जाल्यीं तांचो अणभव मेळ्ळो. आतां त्याच सगळ्याचो उपयोग कोनशाक रावन खोल वचपाक करप. काम करीत रावप पणून... मनीसपणा खातीर, कले खातीर, प्रकृती खातीर आनी म्हजेय खातीर. फुडल्या म्हय या सावन कांय पयशे फाटल्यान दवरूंक जायच. ना जाल्यार ऐन वेळार घात जातलो.

कलेच्या शिक्षणा कडेन आनी आपले प्रगती कडेन नेमान लक्ष दिवंक जाय. अंदूं एकाद्र्या वेळार चड करून म्हजो कूर्स सोंपता. फुडें कितें? दुसरें कांयच ना जाल्यार चित्रकलेचें em especial आनी बाकीच्या कलांचें em geral ज्ञान मेळोवप.

फुडल्या वर्सा विशारदाचे परिक्षे खातीर धडपडप: 'हिन्दी भाषारत्ना'क बसप आनी सकाळचो वेळ कलेच्या शिक्षणाक घालप. थोड्याचं उतरांनी सांगचेलें म्हळ्यार, सकाळचो वेळ चित्रावपाक, बाकीचो मदलो वेळ पोटा खातीर आनी उल्लेलो सांजवेळचो शिक्षणाक.

म्हजे कडेन पोटा पुरतें आसतें जाल्यार म्हजें जिवीत वेगळे तरेन वतलें आसलें. तरी आसतना प्रकृती बरी उरल्यार ह्याच जिवितांत कितेंय तरी करतलों. संवसाराक तें दिसूं जावं ना दिसूं!

**शेनवारण, ३.१०.१९४८**

आज दिवाळे आदलो दीस. चार-आठ दिसां पयलीं इव्वायगाचें O Mundo de Ontem म्हणचेलें आत्मचरित्र वाचलें. अशे तरेचें पुस्तक केन्नाच वाचूंक मेळूंक नासलें.

पयरच्यान खलिल जिब्रानाचें Spirits Rebellious वाचूंक घेतलां. निर्दोश येवजुपाची रीत आनी उतरांची सुंदरकाय. इतलेंय साधून ल्हान ल्हान वाक्यांनी बरे तरेन समजावन सांगचेली खूम. हें सगळें तसल्याच मनशाक साधता.

आज तीन-पावणे तीन वरांचेर School of Art त गेलों. चित्रावपा संबंधाचीं म्हजीं कांय मत्तां डायरेक्टराक वाचून दाखयलीं. ताका तें मानलें. पणून म्हजें तसल्यांत समाधान ना तें एक बरें आसा. म्हजें चित्र बरें जालां अशें तो म्हणटा जाल्यार मात म्हाका बरें दिसतलें आसलें. कारण, तो बऱ्यांतलो आनी अणभवी चित्रीक. ताका वाचूंक बरोवंक येना. ताणें म्हाका सांगलें, आपूण तुजे कडेन वीस वीस मिनटां उलयतां तो तूं fortunate man म्हणून; ना जाल्यार धा मिनटां वयर आपूण खंयच्याच मनशाक बसोवन घेना. मनांत म्हळें, तूं नशीबवान काय हांव नशीबवान हें कोणें थारावप? म्हाका ताणें सांगलां, तुका Schoolचे चलणुके संबंधान बरी नदर आसा म्हणून, तेन्ना, म्हज्या दर विचाराचें ल्हानशें टांचण करून ताका दिवचें; ताका खंय ताचो उपयोग जातलो. सगळ्यांक म्हजो उपयोग जातलो म्हणटात तें खरें. पणून म्हाका हांचो कितेंय उपयोग जावं नाका? एका हातान ताळी वाजतां खंय? हांव खंय अशेच तरेन चल्ल्यार ताका आनी Schoolक सगळी घाण उसपूंक मदत जातली आनी म्हाकाय फुडाराक बरें पडटलें.

म्हज्या फुडाराची सारकी येवजणी करूंक जाय. म्हजे हांवेंच. म्हाका तांणे सांगलां. येवन वच म्हणून वेळ मेळत तेन्ना.

...भौ. काशिनाथबाबांनी म्हजेर उपकार केला कूड दिवन. पयलीं पागडेची खबर नासली. पणून चार दिसांनी २५० रुपयांची खबर सांगली. इतलें आसुनूय तांगेले उपकार आमकां खोली दिली म्हणून. हाका म्हणटात वेव्हारी संवसार!

संवसाराचो संवसार म्हजेर उबारूंक ना. म्हज्या संवसाराक बांद घालचेली तजवीज हांवें करची. जगा वेल्या संवसाराची तजवीज जगाक करुंदी.

**शेनवार, ६.११.१९४८**

दर शेनवारा बरोवचें अशें कांय थारावं नासलें हांवें, पणून फाटल्या तारकांचेर लक्ष दिल्यार दोन-तीन शेनवारूच पडल्यात.

ह्या फोलींचेर हांव म्हजे जिणेंतल्यो खबरी बरोवपाक सोदतां. त्यो म्हज्या सभावाचे दोश बरे तरेन दाखयतात.

जाका perfection म्हणजे पूर्णत्व म्हणटात थंय हांव पावचोंना. खंयच्याच धंद्यांत म्हाका पूर्णत्व मेळचेलें ना अशें दिसता. मनीस पूर्ण जावपाक कांय थीर गूण ताच्यांत आसूंक जाय. Impulsive मनीस केन्नाच मर्दी रावपाक शकना. तो ही तड ना जाल्यार ती तड, खंयचेय तरी एके तडीर रावता. सुवर्णमध्य साधिना. प्रेझिडँट ट्रूमन हो मनीस खंय सुवर्णमध्य सोडिना. सदांच खंय तो मर्दी रावपी.

रावजीन [पांडुरंग भांगी हांणी] 'माण्डवी' म्हणून एक मासीक काडलें. म्हज्यान ताका चित्रां जावं बरप धाडपाक जमना जालें म्हणून म्हळें, फोलींचेर वळी मारून ताचो फुकट वता तो वेळ वाटावचो. भौ काशिनाथबाबांक मेज दिवन कागदार त्या मेजाचो जागो सांडून वळी मारून दियात आनी पयशे सांगात म्हणून सांगलें. ते प्रमाण तांणी पांचशीं कागद म्हाका दिवन २३.८० रु. चें बील म्हज्या हातार दवरलें. चुकून वळी गाढ रंगांत मारल्यो खंय. आतां कोणाकूय दिसतलें तशेंच म्हाकाय दिसता खूबदां - भौ. काशिनाथबाब चुकले खंय आनी कशे? बुद्द सांगता, चुकूंक नात म्हणून. मन म्हणटा, चुकल्यात.

कोंकणी म्हणटात ती म्हजी एकल्याचीच आवय न्हय. म्हणटकच ज्या लोकांक कोंकणी मासीक म्हळ्यार कितें तें समजता तांकां इल्लीशी लागणूक आसताच. हांवें कागदांची खबर सांगली तेन्ना हो मनीस तें नेटान चलोवपाक पालव दिवंक जाय म्हूण सांगता तेन्ना मनांतल्या मनांत तरी म्हाका दिशिल्लें, हो तें मुजरत मुंबय मागोवन घेतलो आनी आपल्याच्यान जाता तें काम आपूण करतलो. फोलींचे पयशे म्हजे कडल्यान घेतिल्ले जाल्यार पसून म्हज्यान ताका दोश दिवंक नजो आसलो. पणून ताणें सारके तरेन सगळो खर्च म्हजेरूच घालो. शिवाय काम जशें जाय आसलें तशें, ताचे चुकीक लागून केलेंना. मागीर पयलीं सांगिल्लें तितलेंच बील कशें घेवचें? तातूंत म्हजो सुवार्थ आशिल्लो जाल्यार जावं आसलें. पणून संवसार म्हणटात तो वेव्हार सांबाळटा. तोंडान त्याग म्हणंप आनी हातानं बोल्सां भरप.

हें सगळें अणभवतकच आतां हांव शाणो जावपाक सोदतां पणून सभाव मनशाक सोडिना. मनीस सभाव विसरता आपलो.

ह्या म्हज्या सभावान म्हाका नुकसानी आयली सगळ्या वाटांनी. पणून मनाक घटपाणूय आयली. लोकांनी म्हाका नुकसानांत उडयलो असो म्हजो समज जाल्लो कांय दिसां पयलीं. आज मात म्हाका दिसूंक लागलां, लोक आपापल्या सभावा प्रमाण चल्ले आनी हांव म्हज्या सभावान चलिल्ल्यान ती नुकसानी आयली.

म्हजे वळखीचो लोक आपणाली लागणूक करता... म्हाका गरज आसता त्या वेळार संवसारांत कोणूच म्हजो मित्र न्हय. तो आपलें काम केलें, चलूंक लागलो. ते पुरतें ताणें म्हाका बरो म्हळें. ताचें काम जालें म्हणटकच एकाद्र्या वेळार ताणें म्हाका बरो म्हळो जावंये. तशेंय आसत. म्हज्या सभावा प्रमाण हांव ताचे फाटल्यान म्हजें काम सोडून नाचलों. म्हाका ताणें हें कर म्हणून कांय सांगलेंना. उरफाट्यांनी, तूं आपल्या कामाक वच अशें तो म्हणटालो. मागीर म्हजे नुकसानीक कारण हांवूच जालोंना? तरी पणून आतां म्हाका वेव्हार समजता.

...आज मेरेनच्यो सगळ्यो चुकी हांवें केल्यात. आतां त्यो हांवेंच निस्तारूंक जाय.

**सोमार, ८.११.१९४८**

म्हाका लोकांचेर रागार जावंक कारणां नात न्हय. आसात खरीं. पणून तीं कारणां साप थोडीं. ते परस hypersensitivity म्हणटात त्या सभावाक लागून त्या कारणांचें रूप म्हजें मन तिडायता. शॉपेनहावर म्हणटा, मनशाच्या सभावा प्रमाण ताचीं सुखां-दुःखां चडटात, जावं उणीं जातात. सभावूच सगळ्या बऱ्या-वायटाच्या मुळाक आसता.

...म्हजो तरी प्रस्न म्हणटात तो अभिमानाचो, अहंकाराचो. अभिमान म्हणटात ताचें खूबदां अहंकाराचेर पडटा... दर एकल्यान म्हज्या भायल्या रुपाचेर म्हाका पारखिला. शिवाय, दूढ जावं धड मनशाक आमी वळखूंक शकतात. थारिल्ल्या पंख्याचे पाखाटे मेजूंक येतात. ताचो रंग, रूप, आकार समजता. पणून तोच धांवता आसतना ताचें रंग-रूप कांयच समजना. म्हजें एकूय धड ना. म्हजे म्हाकाच ह्रंव कितें तें खंय समजलां? हांव बरो काय वायट, दुसऱ्याचें बरें इत्सुपी काय दुस्वाशी, देवाक मानपी काय न्हय, उदार काय कंजूश, बरो काय नीच, व्हड मनाचो काय उणाक, पवित्र काय हलकट, कांय म्हळ्यार कांय समजना. कांय करण्यो हेवटेन तर कांय तेवटेन. घडयाळीच्या लोळ्या भाशेन एकदां हेवटेन तर रोखडोच तेवटेन लोंबकळटां. अशें परिस्थितींत संवसाराक दोश दिवप म्हळ्यार शाणपण तर न्हयंच, पणून योग्य पसून न्हय. आनी खरें पळोवंक गेल्यार कोणाचेरच म्हजो मना पसून राग ना. कोणाचेंच वांकडें करचेली म्हाका इत्सा ना. अशे परिस्थितींत म्हजे म्हाकाच म्हजें अजाप जाता. म्हाका खूबदां दिसता, म्हजें बरेपण जर सदांच उरत तर कितलें बरें जायत! तशेंच, वांकडेपण जर उरत तर म्हज्या हातान कितलें वांकडें घडत! दोनूय सांगूंक नजो. देत्र आनी देंवचार हांचे भितर हांव घुटमळटां. देव काय देंवचार?

आज हांव लोलीक उलयलां. पणून तातूंत जाणट्यांचें झगडप ना. भुरग्यांचीं झगडीं तीं. हांव ताका उलयतां, तोय म्हाका उलयता. कोणें कोणाचें वांकडें धरचें?

पणून हें फुडें म्हाका पयलींची जीण जगूंक जाय. हांव कोणाचेरच

रागार जाय नाशिल्लों, कोणाकच व्हडलेंशें दुखऽशें उलय नासलों, ते दीस परते हाडूंक जाय. ते दीस येतले कारण तो गूण मुळचो. दुसऱ्याक दुखोवन आपणाक तरी किर्ते मेळटा? फाल्स अहंभाव.

फायच्यान पयशा कडेन आनी आपलें व्हडपण सांगता आसतना जबाबदारी वळखूंक जाय. अती करप बरें न्हय. जाय तितलें थंडसाणेन उलोवप. कोणाचें वांकडें उलोवप बरें न्हय. उलयल्यार तोंडार. फाटल्यान न्हय.

**मुंबय विलेपार्ले, बिरेस्तार, २६.११.१९४८**

खंयूय गेल्यार पळसाक पानां तीन म्हणून एक म्हण आसा.

मुंबयचो जागो सोडून हांगा आयले. मनीस सभावूच अशे तरेचो की सगळे कडेन एकच. हांगा आमी २५० रु. पागडी दिली. म्हयन्याक पंचेचाळीस रुपया भाडें दितात. पणून ह्या घरकारांक सुवार्थ चड. भांगरा हांसाची गत जाता मागीर. कोंत्रात करता आसतना, दोन कुडी तुमकां मेकळ्यो करून मेळटल्यो, आमी दारांक कुलूप लावप, नळ आनी मोरी सारकी करून मेळटली, बी तरेक तरा कलमां आसलीं कोंत्राताक. पणून मुदलाक पळेल्यार, नळ ना. मोरी तेदीच. तीन बल्लां, एक व्हड मेज, एक ल्हानशी आरमार, एक व्हडली लोखणी खाट, दांतें बुयांवां, पितुळचीं आयदनां- सगळें सगळें हांगा. पयर सामान मातशें काडात म्हूण बरे तरेन सांगल्यार ती बायल-मनीस सारकी जाप दिना. आमी हांगा दोन दीस उपाशीं, जाल्यार खबर करिना. ना जाल्यार आमी बरे मनीस म्हूण तोंडभर उलयताली. भाडें मेळटा पंचेचाळीस, पागडी अडेजशें, सामान जशाक तशें, शिवाय तांचो एक भुरगो आमच्या कुडांत न्हिदता. मागीर भुरगे वांकडे कशे जातीत! आमी एकामेकांक तेंकून शेंदऱ्यो घालप आनी ह्या बाबाक लॉर्ड कसो खाटेर पोवूडपाक दिवप. मागीर आमकां कोण वांकडो लेखीत! लोकाचो गुन्यांव आसा – आमगेलें पोर्तुगेज राज्य!

भौ. काशिनाथबाबांनी पागडे परी पागडी दिवंक लायली. भाड्या परी पंचेचाळीस रुपया भाडें. दोनूय वाटांनी सारकें. वळखीचो चोर खंय जिवेंशीं मारता म्हणटात तसल्यांतली गत. इतलेंय करून उपकारांक उपकार. आनंदान जर मातशें तेदे वेळार मनार घेतिल्लें, तर आज आमच्यां नांवार एक खोली आसतली आसली काय बरी. रावणाक भिकेचे दुवाळे... कट्टेंतलें शेण कोण काडीत?

...फाटल्या दिसांनी म्हळ्यार सेतेंब्रांत लायब्ररींतल्या 'यण्डे' म्हूण एका मनशा वयल्यान म्हजी डायरेक्टरा कडेन वळख जाली. हो मनीस एकदम बरो भुरगो सभावान. तो नांवाक कारण जालो. मागीर हांवें जावन अडुरकाराक कांय सुचोवण्यो केल्यो आनी ते निमतान म्हजी ताचे कडेन घसट जाली. मनीस वायट न्हय अजून पर्यंत. पणून अक्षरशत्रू. ताका डायरेक्टराच्या कामांतलें कला सोडून कांय समजना. ब्रिटीश हिन्दुस्तानांत होच धंदो चल्ला. आजूच ताका हांवें आठ आराखडे व्हरून दिले. काल हेद्यान तांचेर अक्षरां घालून दिलीं. काल ऑफीस सुट्टकच सवाय पांच ते सवाय आठ मेरेन बि.पी. सामंतागेर बसून ताणें तें काम केलें. आज ताका व्हरून सगळें दिलें. अजून मेरेन म्हाका अडुरकारा पसून कांय फायदो ना. आनी म्हजीय व्हडली अपेक्षा ना.

ताणें जावन पयर म्हळें, आपूण तुजी स्पेसिमेन पास जावपाक जाय जाल्यार मदत करतां, आपल्याक एकदां दाखोवन दवर सगळें, दोळ्यां मुखार घालून दवरतां म्हणून. पणून स्पेसिमेन घेवन काय हांव ताचे कडेन वचपाचो ना.

तो जर हांगा तिगलो (फेब्रेरांत तांची नवी नेमणूक जावचेली आसा) तर म्हाका शिकचेल्या कामांत ताची मदत जाय सारकी आसा. एके वाटेन, जोडून शिकलों तें बरें जालें. पेज जाली तरी पणून आपले सत्तेची. पणून संदी वगडावंच्यो पडल्यो तें पळोवन चुरचुरे पडटात. म्हाका पयशे व्हडलेशे नाकात. पणून चित्रावपांत म्हज्या हातांनी मना सारकें काम जावचें. इतलेंच – चार लोकांक तें मानलेंना तरी जाता. नांव, मान, पयसो सगळें सोडपाक म्हाका आतां व्हडलें दिसना.

सगळ्यां कडेन बरे तरेन उलोवप सवरप. पणून सगळ्यां पसून कडेक रावप हेंच आतां.

---

## श्री रामकृष्ण परमहंस म्हणटाते–

**तिवारकण**

बायल-मनीस म्हळ्यार निखटी बायल-मनीस न्हय. ती अरीय न्हय (अरी म्हळ्यार दुस्मान) आनी परीय न्हय. ती हरिचें स्त्रीरूप. देवीक चारित्र्यान बायल-मनीस कसलीय आसूं. तिका आवयूच मानूंक जाय. आनी आवय ह्या रुपानूच तिका पुजूंक जाय. बायल-मनीस हो बकच्छायो करपाचो विशय न्हय. तिची निंदा जावंक फावना. देवळांत देवते मुखार उबे रावतात तेन्ना तुमच्या मनांत ज्यो भावना आसतात त्योच भावना खंयचेय तरेन बायल-मनशेक पळेतना तुमच्या मनांत उठूंक जाय. बायल मनीस ही जिवी तट्टीत देवता... जगदंबा. एक फावट गणपतीन एका हुंदराचेर बेतकाट्यो मारल्यो. घरा येवन पळे जाल्यार आवयच्या - पार्वतीच्या आंगार - बेतकाट्यो उठल्यात. 'हें किते जालें? कोण मारली तुका?' गणपतीन विचारलें,

'तुवें'. तिणें जाप दिली.

'हांवें?...'

'हय... तुवें हुंदराचेर मारिल्ल्यो. त्यो म्हजेर उठल्यो...'

सांगपाचें म्हळ्यार, बायल-मनशेक कितेंय म्हळें जाल्यार तें देवतेक लागता. हें लक्षांत दवरून जिबेक सांबाळूंक जाय...'

# पुंजुलो कथिकांचो

**मूळ मराठी: छाया महाजन**
**अणकार: प्रियदर्शिनी तडकोडकार**



### साक्षात्कार

ती करियर करपाक भायर सरिल्ली. तेन्ना तो हांसलो आनी म्हणपाक लागलो, 'हे येरा गबाळ्याचें काम नोहे.'

ती नाशिल्लीय बी तशी. ताका खबर आशिल्लीच, मातशी अर्दकुटी शी!

पांय ओडीत, भुजां गळोवन, तकली सकयल घालून, अवमानीत जावन घरा आयली. तेन्ना ताणें म्हळें, ''यू हॅव गॉट द फस्ट पंच. देअर आर सम मोअर यॅर टू कम.''

दुसऱ्याच खिणाक तिणें भुजां उबारलीं. आचार विचार भिरकटावन मारले आनी पर्थून एक फावट केण कशी पेटून भायर सरली.

गळसून वचून परतली तेन्ना ताणें म्हळें, ''हीं भुजां गळोवन चलप, तीं परतून उबीं करून धांवप, तें ओणोव घाल्ले वरी उबें रावप हाचेर ओडून व्हरचे पडटात अणभव. मझ्या वरी.

तेन्ना सुन्न मोनेळ पांगरून बशिल्ले तिणें इतलेंच म्हळें,

''हे धपके न्हयच. तुका कळच ना. हांव गर्व व्होळून उबी आसां.' हांव 'उबीं' आसां.''

तेन्ना तो एकदम मोनोच जालो. अणभवी मनशा वरी.

●●●

### संस्कृताय

ताका तिच्यो धा-बारा गजाली आवड नाशिल्ल्यो. तिकाय ताच्यो कांय गजाली आवड नाशिल्ल्यो. त्यो उलोवन दाखोवपा इतलीं ती खोशी आशिल्लीं. देखून तीं घोव-बायल 'मेड फॉर इच अदर' म्हूण फामाद आशिल्लीं. ते प्रसिद्धीचें तिका ऑरे दिसतालें. लग्नबंधनाचो तो एक म्हत्वाचो मुद्दो केल्ल्यान ताचो सांबाळ करप तिची लागणूक आशिल्ली. जायते फावटीं ह्या mutual understanding गाची जपणूक करतना तिचें हड्डें फुट्टालें.

केन्नाय खंयच्याय प्रसंगा वेल्यान ताका तोडून उडयन दिसतालें. केन्ना तिडक भितल्ल्यान लाव्हा भशेन खतखतून भायर येतना मनांतल्या मनांत तिणें कर्कश आड्डून म्हणप -

"Will you shut up?"

"Just leave me alone."

"Will you take away your dirty swine-face?"

"Go on! Get away!"

"Oh! For God's sake, shut up!"

जिबेर फुटूंक पाव नाशिल्ले हे आवाज. हारशाक वेरो गेल्ले वरी, निखटे तडफडत रावताले. हें सगळें प्रत्यक्ष मात ती केन्नाच म्हणूंक पावली ना. एकामेकांक समजून घेवन चलपी जोडपें म्हूण तांची नामना. तिका लोकां मदीं भासाभास जाल्ली नाका आशिल्ली.

त्या रागान, दुःखान भितल्ल्यान फुटून वतनाच्या दरेका खिणाक तें mutual

**भारतीय कथा**

understanding भिरकटावन भायर मारनशें दिसतंना ती आपणाक विचारीत रावल्या, संस्कृताय, संस्कृताय म्हणटात ती हीच व्हय? संस्कृतायेचें मोल.पळोवन ती उदात्त म्हणपाची तर तिची खात्रीच जाल्या.

●●●

### दुःख/सूख

ती सगळ्यांचे खोशयेंत हांसली. वांटेकार जाली. भोंवतणचे कोणूय दुःखी जाले तेन्ना तांचें दुःख ती वळखली. कुस्कूटभर जावं, पूण ते उणें करचें म्हूण दुखेस्ताचें मन दुसरे कडेन व्हरपाचो तिणें यत्न केलो. ताका धीर दिलो. केन्ना केन्ना आपणाल्या दुःखाचे खीण भोंवतणच्या सगळ्यां खातीर व्रिड्डून उडयले.

तिचे खोशयेचो वेळ आयलो तेन्ना सगळेच धांवले. बोवाळ केलो. आनंद मनयलो.

पूण जेन्ना जेन्ना ती दुःखी जाली तेन्ना तेन्ना एकली जाली.

त्या एकलेपणाक भिवन कोणाचो आदार घेवचो केलो तेन्ना तो समजायत म्हणपाक लागलो,

''दुःख फकत आपलेंच आसता. एकलें एकसुरें आपणाक सांगात दिवपाक आयिल्ले वरी.''

''दुसऱ्याचीं दुःखां केदीं व्हड आसतात. आपणालीं त्या मानान किरकोळ आसतात. हेरांचे खोशयेंत खोशी मानून घेतली जाल्यारच तूं सुखी जाशीत.''

त्या दिसा सावन ती दर एका दुःखाक खोल पुरून उडयता. ताचो एक ल्हानसो तरंग तिच्या तोंडाचेर येवन मिरी जावन उदेता. ल्हवूच. तिका नकळटां.

आजून जायते अणभव येवचेले आसात खंय- तिचें तोंड मात आतांच मिरयांनी भरून गेलां.

●●●

### पावसाळो सुरू जालो

सक्काळीं झोपडपट्टींतल्यान भायर सरना फुडें पार्वती मळबा कडेन पळयताली.

हें मळब भरून येतालें आनी तिचे फाटोफाट चलतालें. मागीर भरिल्ल्या मनान दिसवड्याचें काम करीत पार्वती परतताली तशें भरिल्लें मळब खोंपीच्या दारांतल्यान परततालें. ताचे कडेन पळयत उस्वास सोडीत ती खोंपीत येताली.

भुसारी पसऱ्यार तिचो नंबर निमाणो आसतालो. दर सप्तकाक त्याच पयशांत उणें जायत वचपी धान्या कडेन ती पळयताली.

पावस निकतोच सुरू जालो तेन्ना ती सामकी उबगली. सुमानाच्या पयशांत पदराच्या तोंकाक बांदून हाडपा इतलें सामान येवपाक लागलें.

चेपट्या पोल्यांचीं चार पोरां आनी आपूण सुकी वात.

तिणें भितर येतकीच जीव दिवप म्हूण थारायलें. पूण गोळ घेवपाक फावोशी खोंप ऊंच नाशिल्ली.

ती वित्रागली. उबगली. धडपडत वचून तिणें दोरयेर हुमकळपी जुनेर ओडलें आनी फरफरीत पिंदलें.

व्हडल्या तिगांय पोरांक आफयलीं. काचाबूल जाल्लीं पोरां आयलीं. दरेका पोराच्या सुकिल्ल्या खांद्याक एक एक झोळी बांदून धांवडावन दिलें.

आनी मागीर दिमयांनी तकली घालून घुस्मटत रडत बसली.

●●●

### गोठाण

तीन मैलांचे वाटेर आशिल्ले फॅक्टरींत शिवा सद्दां वतालो.

पोरां, बायल ह्या सगळ्यां कडेन पळयत तो बशी वेली नदर काडून घेतालो.

ताच्या सुकिल्ल्या पांयांचेर पोरण्या बाजारांतली पँट फकफकताली.

सद्दां वतना तो मनांत म्हणटालो -

''देवा! फुडल्या जल्मांत म्हाका हो चलपाचो त्रास दिवं नाका. आनी दिलोच जाल्यार धा-पंदरा पांय दिवन वडय. पूण हांव खरेपणान आयुश्य जियेतां. तूं म्हाका दुसरो जल्मच कित्याक दिता?''

उपरांत शिवा मेलो.

देव ताचें गाराणें सद्दां आयकत आशिल्लो.

म्हणटकच देवान ताका गोठाण केलो.

पांयूच पांय आशिल्ल्या त्या जिवा कडेन लक्तुबायेन पळोवन देवान ताका धर्तरेर धाडलो.

देवान म्हळें -

''तुजे मागणे प्रमाण हांवें तुका खूब पांय दिल्यात. ते भायर, तांचेर विसव घेवपी आडवी कुडूय दिल्या. तुजें नशीब हांव कसो बदलूं?''

मागीर आदलें कांय याद नाशिल्लो गोठाण जाल्लो शिवा अनंत अंतर चलत रावलो.

●●●

### झडप

हजार बाराशेंच्या जम्यांत हमीदा हामेर फोडून रडटाली. मुखार उब्या आशिल्ल्या ट्रकाच्या टायराचेर कंवळ्यो आंतकड्यो आनी चामडें दसून लोंबताली.

सुन्न खदूळ दनपारां पळोवप्यांची गर्दी वाडतच आशिल्ली. फुटिल्ले कवटेंतलो लिबलिबीत मासाचो गुळो एकठांय करीत पुलीस पोराक घेवन गेल्ले.

हमीदा उठच ना.

वरा भितर कितलेशेच पुलीस, कांय ऑफिसर्स येवन गेले. बुजवणेक हुंवार आयलो.

पर्थून सगळें थंड जालें.

चार-स वरांनी सिनेमांत आसता तशी एक व्हड गाडी आयली.

एक मनीस आयलो.

हमीदाच्या घोवा लागीं येवन कितें तरी उलयलो.

तिका कळ्ळें ना.

मातसो रावन ताणें घडयाळी कडेन पळयलें.

ल्हवूच बोल्सांत हात घालून पाकीट काडलें.

आनी केन्नाच पळोवंक नाशिल्ल्या नोटांचो कवळो हमीदाच्या घोवा मुखार धरलो.

वागा वरी हमीदा उठली. एके भिरकेंत तें पाकीट घेतलें आनी घोवा मुखार धरून ती पिशी कशी आड्डूंक लागली –

''आरे घे! तुज्या पोराच्या मासाचे पयशे घे. घे - कर ताचो सौदो...'

आनी तें पाकीट रस्त्यार मोखून मारून ती थंयच लोळूंक लागली, ''अल्ला रहम कर! पोराचें गोश विकून तुज्या दरबारांत खंयच्या तोंडान येवं?''

''सांग परवरदिगार! ह्या तुज्या संवसारांत आतां मनशांच मनशाचें मांस विकतीं घेवपाक लागल्यांत.''

●●●

### गरज

एक एक करत भावना तुटून वचच्यो तशी एक एक गजाल तिचे पसून पयसावत गेली.

तिचे जाणटेले खंय आकांताचे गिरेस्त आशिल्ले. पूण तिच्या घरांतल्यान पयलीं रांदपीण गेली, मागीर वावराडी, मागीर मडवळ गेलो. तरीय ती भियेली ना. भियेवपा सारकें कांय नाशिल्लेंच. सामके वातड जातींत तिचो आसपाव जाल्लो.

घरां विशीं नोटिसीं फाटल्यान नोटिसी येत गेल्यो. एक दीस नळाचें उदक गेलें तें आयलेंच ना. एके रातीं विच्या सांगाताक काळोख आयलो. तो सदचोच जालो. तिका ताच्या प्रामाणीकपणा विशीं खात्रीच जाली.

तिका मात दिसतालें, हांव कितें? एकटो जीव सदाशिव. रासवळ नळाचें उदकय सामान्यतायेन नासतालें. एकले बायलेक कितें? माथ्यार पाखें आनी पोटाक कितेंय.

पयर नोटीस आयली. तिच्या बापायच्या बापाय सावन भरूंक नाशिल्ल्या दुडवांचे वळी वेल्यान तिणें नदर भोंवडायतकच मात ती पुराय गळसणून गेली.

ल्हवू ल्हवू एक एक करीत तिणें सगळ्या कुडींतल्यो वस्तू एके कुडींत एकठांय करून दवरल्यो. मनांत चिड्डून दवरिल्ले जप्तीच्या भंयान ती काचाबूल जावंक ना. ती भियेल्ली एकेच गजालीक. पांय आसचे आनी भंय आसूं नये. तशें जालें.

भर दनपरां खुरटिल्ले बाभळी मुळा ती पांय मोडून बसली. सगळें वतूच तिच्या सांगाताक आयलें. त्या तापिल्ल्या भर वतांत तिका दिसलें-

पोटचें पोर वचन्नें, लागींचो मनीस वचचो हेंवूय सोंसपा सारकें आसत. पूण मनशां सांगाताक आसचीं आनी भुंयूच वचची? हें व्हड दुःख.

आनी तळ नाशिल्ल्या उदकांत पडल्ले वरी

ती घुसमटत गेली.

●●●

### जाप

तो तिका म्हणटालो-

''तूं अशी कशी? तुजेर कित्याचोच परिणाम जायना? म्हाका जाल्यार तूं फातरा भशेन दिसता.''

''कित्याक? हांव हांसतां, उलयतां खातां-पितां, चलतां-भोंवतां. आनीक कितें आसता?'' तिणें विचारलें.

''आनीक कितें आसता? निखट्या रुखा वरी जगप, रुतू प्रमाण गळप आनी वाडप इतलेंच?''

''तूं अॅटलिस्ट फातरा वेल्यान रुखाचेर आयलो. म्हजें जितेपण तरी मान्य केलें.''

ती उलोवन ओग्गी जाली. सदचे वरी. पासून व्हरून ओगी जाल्ले वरी. ती केन्नाच

उलोवणें वाडयना हें थारिल्लेंच.

उपरांत मागीर तोवूय ओगी जालो. तिची थंडसाण ताका तोंपत रावली.

तिका याद जाली. तशें तिचे तिकाच जाणवलें.

आयलो खीण गेलो खीण. आयलो दीस गेलो दीस. आयलो रुतू गेलो रुतू. आयलें वर्स गेलें वर्स. हें येवप आनी वचप. आनी हांव?

खरेंच हांव झाड कशें. मोन्यांनी सोंसपी शरणागता सारकें. पालोवप, पालोवन वचप. कांयच मना पसून ना. धड योगी स्थितप्रज्ञा वरीय ना.

जिवेपणा सांगातान, रुतू सांगातान बदलत रावप. इल्ली जीवसाण उणी जाल्यार खरें म्हळ्यार हांवूय फातरच जायन. पूण ही जीवसाण वचना.

मागीर तिका दिसलें, सदचीं कामां आसात म्हूण बरें. नाजाल्यार काम नाशिल्ल्या सुशेगाची जीण आशिल्ली जाल्यार म्हजें जितें मडेंच जावपांचें.

ताणें म्हळें —

''एकेच थारावीक मानसीक अवस्थेंत मनीस रावंकूच शकना. देअर इज समथिंग ॲबनॉर्मल.''

तशेंय आसत.

सगळ्या शाण्या मनशांच्यो क्रिया इल्लीय ॲबनॉर्मालिटी दाखय नासतना करप.

मागीर तिचे तिकाच सूऽ जालें. आपणें रुखा वरी जीण कित्याक म्हळी?

सुंदर अस्तुरेचे पावलटीची वाट पळयत आशिल्ल्या अशोक रुखा वरी हांव कसल्या स्पर्शाची वाट पळयतां?

कळूंक नाशिल्ल्या कुवाड्या वरी हें अस्वस्थ जावप.

मागीर मन आपणा भोंवतणी घट्ट आंवळून घेत ती म्हणपाक लागली, ''हांव त्या झाडां वरी जीं आपूण जावन आपणालीं मुळां केन्नाच मळबाक दाखयनात.''

●●●

**रुटीन**

फांत्यापारार दुदाचे लायनींत उबो रावन ताणें दूद हाडलें.

दूद पातळ आसा म्हणपाची कागाळ केली. डेअरीवाल्यान कानार केंस काडले. आयिल्लो पेपर उकतो केलो. ''विरोधी पक्षान सत्ते वेल्या पक्षाचें सरकार उडयलें'' माथाळो पळोवन ताणें बातमी भरभरीत वाचून काडली आनी उपरांत न्हावपाक गेलो.

ऑफिसांत आयज वेगळीच गडबड आशिल्ली. मनशां चोंब्या चोंब्यान उबीं रावन उलयतालीं. तोवूय ते गर्दींत घुसलो. आयच्या खेरीत वातावरणाचो ताण ताका जाणवलो. ताची उमळशीक चाळवली.

मागीर एका चोंब्या कडल्यान दुसऱ्या चोंब्या कडेन वचत तो खबर काडीत रावलो. तेन्ना ताच्या ऑफिसांतल्या मनशाक सोडून दुसऱ्या ज्युनियराक ऑफिसर केला म्हणपाचें ताच्या लक्षांत आयलें.

दर एकलो चुरचुरलो. दोग तीग जाणांनी म्हळें — आमी वयर वचून मंत्र्याक मेळुंया. तातूंत तो प्रमोशन मेळूंक नाशिल्लो सिनियर उबो आशिल्लो. (बेश्टोच!) मागीर धा-पंदरा जाण एकठांय जाले. सगळ्यांनी म्हळें — कितें तरी करुयाच. ल्हवू ल्हवू कितें करपाचें तें थरपाक लागलें. ल्हवू ल्हवू एक एकलो च्या पियेवपाक गेलो.

तो मात खूब अस्वस्थ जालो. सगळ्या तरांचे अर्थ लक्षांत येवपाक लागले. ह्या अन्यायाक कितें म्हणचें तें थारायत रावलो. त्या सिनियरा वांगडा पडिल्ल्या सरकारा विशीं पोटतिडकेन उलयत रावलो.

सायबान ताचे कॉन्फिडेंन्शियल फायलीर सगळ्याक तांबड्यो कुरवो करून दवरल्यो.

हें जातकच कॉन्फिडेन्शियलच्या क्लार्कान ताका ल्हवूच च्याक व्हरून सांगलें, ताचें कॉन्फिडेन्शियल सायबानच पिड्ड्यार केलां.

बसस्टॉप येतकच तो घुम्म उबो रावलो. मुखार एके मोटारीन भुरग्याक उडयलो. तो भुरगो मोटारवाल्या कडल्यान मयशे वसूल करूंक लागलो. आकांताची खेट जाली.

डबो आशिल्ली ल्हान पोती हातांत धरून तो उबो आशिल्लो. आयिल्ले बशींत ताचे फाटले लोक घुसले.

तो उबोच उरलो.

सरकार सकाळींच पडलें.

मागीर सिनियराक सुपरसीड करून ज्युनियर वयर चडलो.

ताचें कॉन्फिडेन्शियल पिड्ड्यार जालें.

पोरान आड्डून मोटारवाल्या कडल्यान पयशे घेतले.

ताचे फाटले लोक बशींत मुखार घुसले.

ताच्या मनांत विचार आयलो, हें सगळें समजुपाक व्हडल्या इतिहासाची गरज आसा?

●●●

**सत**

चवगांय त्या pindrop silence आशिल्ल्या हॉलांत आयलीं. थंयचे हळडुवेच लायटीन तीं आनिकूय मोनीं जालीं. उपरांत अदबीन मुखार आयिल्ल्या वेटराच्या तोंडा कडेन पळोवपाचें चुकयत चुकयत मेन्युच्या पुस्तकांत नदर घालून बसलीं.

तितल्यान व्हडल्यान रडपाचो आवाज आयलो तशीं तीं सामकीं बेजारून ते वटेन पळोवपाक लागलीं.

एक ल्हान भुरगें व्हडान रडटालें. ताची आवय काचाबूल जावन ताका थातारून धरताली. वेटरूय आपल्या तोंडा वेले भाव पुसून बेजार जाल्ले भशेन कपलाक मिरयो घालीत ते वटेन पळयतालो.

तितल्यांत कुशीकच्या मेजा वेल्यान एका मनशाच्या हातांतलें गार्फ सकयल पडलें. पर्थून व्हडलो आवाज जालो. आतां तीं आनिकूय बेजारलीं. "What nonsense" तांतले एके नाजूक आंगलटाचे बायल-मनशेन बॉबकट उडयत म्हळें.

Why they come here at all! रडपी भुरग्याक भायर घेवन कित्याक वचनात? I tell you, no manners and etiquettes तिगेल्या घोवान म्हळें.

मागीर गार्फां कुलेरां सुरयां सयत प्लेटींचेर आवाज जावंक दिनासतना तीं ल्हवू अस्पश्ट उलयत पोटांत भूक दवरीत जेवलीं धेंकर चुकोवपा खातीर एकल्यान तोंडार लेंस चिड्डून धरलो.

शींक येतकच दुसऱ्यान 'excuse me' म्हळें. हात सुके दवरून जेवण जातकच तीं भायर सरलीं.

तीं holiday enjoy करपाक आयिल्लीं.

दारा कडल्या गुरख्यान सांगलें, चलत गेल्यार गाळींतलो देखाव खूब सुंदर दिसता. थंय विंगड विंगड सावजांय दिसतात. तेन्ना चवगांय थंय वचपाक गेलीं.

वाऱ्यान, तांचे पार्लरांत सॅट केल्ले केंस विस्कटून उडपाक लागले. तांच्यो साडयो-बिडयो चलपाक त्रास करपाक लागल्यो. निसरते देंवते वैल्यान नाजूक नाजूक बेजारत त्यो सिनेमांतल्या हिरोइनीं भशेन देंवपाक लागल्यो. तांचे घोव 'धीरे से डार्लिंग' म्हणत तांकां हात दिवपाक लागले.

"हांगा मेरेन गाडयेचो मार्ग जावपाक जाय आसलो", एकलेन म्हळें. ऊंच खोटांचे सँण्डल्स सांबाळटना ती वितरागून गेल्ली. भितर स्किनकलरच्यो नायलॉनच्यो स्टॉकिंग्ज आसल्यो आनी आंगठो नाशिल्ल्या सँडल्सांतल्यान पांय निसरून फुडें वताले. बॅलन्स राखतना तिका नाका जीव जाल्लो.

हें सोंसपाचे तांकी भायर पावलें तशी ती थांबली. तिची इश्टीण आड्डून आड्डून तिका माकडांचो पोंवो पळोवपाक सांगताली. घोव सँडल्स काडुंनाका म्हणटालो. त्या दोगांय कडेन दुर्लक्ष करीत तिणें दोनूय सँडल्स काडून हातांत घेतले. स्टॉकिंग्ज ओडून काडल्यो.

तिका एकदम मेकळें दिसलें. पांयांच्या बोटांनी सकयल्ल्या तळपाक धरीत ती सरसरीत देंवपाक लागली. तिची भुंये वेली पकड घट्ट जाली.

झाडा वेलो एक माकड हें सगळें लक्ष दिवन पळयतालो. तो आपणाल्या चार पायांनी झाडाच्यो ताळयो धरत तेंगशेर वचून बसलो.

- आनी हॉटेला कडेन पळोवपाक लागलो.



## पाखें

म्हजें उलोवप सोंपलें तसो तो देंगण कोसळिल्ले वरी म्हज्या पांयांर कोसळ्ळो. त्याच खिणाक म्हाका जाणवलें, देंगणाचें तुटून पडप आनी मनशान कोसळप हातूंत खूब फरक आसा.

फाटले चार म्हयने ताका म्हजे सायटीर मुकादम म्हूण दवरला. सगळी कॉलनीच बांदतात. गांवा भायर. सामक्या उण्या दिसवड्याचेर हांवें ताका कुशीचे खोंपींत दवरला.

ताचें उणेपण म्हाका खबर आसा. पूण म्हाका ताचे पसून त्रास नाशिल्ले. सादो, सरळ आशिल्लो तो. आनी प्रामाणिकूय बी. मेळिल्ले खोंपीचेरच धादोशी आशिल्लो. आदीं दिसवड्याचें काम करतना पत्र्याच्या फोलिणांत मीठ-मिरसांग दवरून ताचेर कामरुपाची गोजडी धांकून अर्दकुटे पेटयिल्ले चुलीचेर तवो उमथो घालून दोगांय घोव-बायल दिसवड्याक वतालीं.

ताचे गुरवार बायलेक दिसयभर उदक भरतना हांवें पळयली. उकत्यार चुलीचेर भाकरी भाजतना पळयली. वाऱ्या पावसांत आपणालें गुरवार पोट धांपतना पळयली आनी हांवें तांकां खोंपींत दवरलीं. म्हजे घरकान्नीचे पांय धरतना दोगांयचे दोळे भरून आयले. म्हजी बायलय भरिल्ल्या काळजान म्हणपाक लागली - "तुजो भुरगो भाग्याचो गे! तकली दवरुपाक सुवात तरी जाली!"

आनी तिच्या बाळंटेराचे दीस लागीं आयले तेन्ना हांवेंच ताका सांगलें —

"बाबा रे! हांव तुका थंय दवरूंक शकना. तूं दुसरे कडेन वच."

ताका कांयच कळ्ळें ना. ताचें सुकिल्लें तोंड बावडेंशें जालें. लाचांर चेऱ्याचेर दुःख दाटून आयलें. दोन पोटांचो प्रस्न तर आशिल्लोच आनी बायलेचोय.

"सायबा! आता हांव खंय वचूं? रस्त्यार आशिल्लों तेन्ना तकलेर पाखें दिलें. आतां म्हजे बायलेचो बाळंटेर लागीं आयला. आतां तिका खंय व्हरूं?"

उलोवपूय नाशिल्लें. पर्थून पर्थून भुंयेचेर बाबडेंशें तोंड दवरीत आशिल्लो. ताच्या तोंडा कडेन म्हज्यान पळोवं नजो जालें.

"आरे! तुका म्हारोग आसा. कॉलनींत दवरूं नाका अशें म्हाका लोक सांगतात. आमकांय तांच्या सांगातान फुडाराक रावपाचें आसा!"

ताचें सुजिल्लें नाक कानाच्यो पाळयो, झडिल्लें पांयाचें धाकलें बोट, आटत वचपी बोटां...

म्हज्या पोटांत फोंड पडिल्लो. ताचे मुखार असहाय्य अपराधीपण भोगतना म्हाका दिसलें, "हे दोन अर्दकुटे हात दिवचे परस झाडा सारकीं तळटां दिल्लीं जाल्यार ह्या उरफाट्या संवसारांत तुका तळटा पोंदाय सावळेक घेतलों आशिल्लों. पूण मोटव्या मनाच्या मोटव्या हाताक समाजरूखाची सावळी जाय. तुका खंयच्यान पाखें दिवं?"



## स्त्री-मुक्ती

जीन आनी loose top घाल्ले चलयेक हांवें खंय तरी पळयल्ले वरी दिसलें. ती आपणालेच तनरेंत आशिल्ली. बॉबकटाचे केंस कपलार आयिल्ले. फुटपाथा वयले गर्देंतल्यान ती म्हज्या मुखार आयली.

'वयनी तूं!' म्हजे तकलेंत आनी दोळ्यांत शंबरां शंबरांचे कितलेशेच बल्ब फुटले.

ती काचाबूल जाली. गडबडली. पूण खिणभरच! मागीर म्हाका कळ्ळें, तिणें नंदूक 'डिवोर्स' दिलो.

'कित्याक? भुरगें ना म्हूण?' म्हजी उमळशीक विड्डीत उलोवपाच्या ओगांत हांवें म्हणिल्लें तेन्ना.

तिच्या दोळ्यांतली जखमी मादी तिणें स्त्री-मुक्तीच्या गच्च रानांत व्हरून लिपयल्ल्याचें हांवें जाणिल्लें.

पूण मुखार तें चित्र पुसून गेलें. गळ्यांत शबनम आनी आंगभर खादी न्हेसून ती समाजसेविका जाली. बायलांच्या हक्कां खातीर झेगडटाली. मेळप जातालें. तिच्या ध्येयवादाचेर हांव विश्वास दवरूंक लागलो. खंयचेंय जावं तें मागीर, मनशान ध्येय मुखार दवरचें आनी बिनधास्त ताचे फाटल्यान चलचें. हांव स्वत्वाचो आदर करता.

फुडें कांय दिसांनी हांव तिचे विशीं कित्याय कितें आयकत रावलों पूण मन विश्वास दवरूंक तयार जायना जालें.

एक दीस ती अशीच म्हजे मुखार आयली. एकदम अचकीत.

ह्या वेळार ती एकली नाशिल्ली. एका काळाचो तिचो तरणाटो सहकारी तिचो सहचर म्हूण शेजरा उबो आशिल्लो आनी हांडीर एक गुड्गुडीत भुरगें!

'वयनीऽ' कांयच सुचना जावन हांव माथें खरपीत रावलों.

वळख करून दिवपाची गरज नाशिल्ली. कोणाचीच. पूण तांणी तें केलें.

ती गेल्ल्या मार्गा वटेन निखटोच पळयत रावलों तेन्ना तिच्या दोळ्यांतली जखमी मादी भर रस्त्याचेर उबी आशिल्ली हांवें पळयली.

आनी एकाद्रे विचारशाखेची केन्ना तरी जावपी चिंदरांबोंदरां हांवें पळयलीं.



# कविता

**रुपाली किर्तनी**

दर्याचे देगेर रावन
फुटपी ल्हारां
पळयत रावन दिसतात वराचीं वरां
वेळे वयलीं रेंवे घरां
आनी पेंवपी, खेळपी जाणटीं, पोरां.

तो विशाल दर्या
ताच्या आंगार खेळपी
बिनधास्त उफेवपी
नुस्त्या वरी मोडत मिरोवपी
ते ओडलावणे खेळ आनी खेळपी
कोण खेळटा, कोण पेंवता
कोण ल्हारां वयल्यान उडयो मारता
आतां दर्या म्हाका खुणायता
उदक म्हाका आपयता.

रेंवेचीं घरां आनी वेळे वयले खेळ
गरम गरम भिकणां-मके
वेळेर मेळपी भेळ
वेळेची ओड आसलीच सदां
दर्याय ताचे सरीं ओडटा
कसो घडोवचो मेळ?

स्विमींग पुलाचे चौकटींतल्या
शिकपाचो आतां उपेग करुंया
दर्याच्या आंगार खेळून तरी पळोवया
शिंवशिंवपी हात म्हजे
मारून तरी पळोवया...

घेतलो निर्णय, मारली उडी
नाकांत उदक गेलें तरी
तक्ली वयर दवरली
ल्हारार ल्हारां आपटतात
फेणेर-फुलां फुलयतात
एक ल्हार ओडून घेता
दुसरें पयस शेंवटिता
सुरवेक जरी गणमणलों
अणभवान शाणो जालों.

पूण तृप्तींतय ही कसली अतृप्ती?

पेंवतना म्हाका वेळ ओडटा
वेळेर आसल्यार दर्या आपयता
दर्यांतल्यान वेळ दिसता
वेळे वयल्यान दर्या दिसता.

थोडे वेळेर खुशाल बसल्यात
पांयांक उदक लागूंक दिनात
कांय पांय धुवन येवन
चिकटल्ले रेंवेक फणफणटात.

ठाम विचार
सरलों मुखार
झेलयत ल्हारां, आंगार-खांद्यार
हात-पांय मारीत ल्हारार स्वार
ही उमेद न्हय आयची
हौस दर्यांत पेंवपाची
दर्यांन मारलाच उलो
आतांच ती भागोवपाची.

आयज हांव पेंवतां
ल्हारांनी व्हांवतां
फिशालकाय जोडून
हात पांय मारीत रावतां

दर्या वेळ पयस उरली
उमेद सोपूंक ना आजून
फुडें गेलों, पयस पावलों
तरी आसां दोळो वेळेर दवरून

इतलें मात खरें...

देग दिसता तो मेरेन
फुडें वचचों थारचों ना
दोळ्यां आड वेळ जावची
इतलेय पयस वच्चों ना.





# अस्तुऱ्यांच्या स्वत्वाची वळख घडोवपी कथां-झेलो

ग्वादालूप डायस

साहित्यीक क्षेत्रांत पावल घाल्यार माया खरंगटेक सुमार तीस वर्सा जालीं. तिजिल्ल्या अणभवांची ही बरोवपी. *'मृगजळ'* हें मायाबायचें पंचविसावें पुस्तक. ह्या कथासंग्रहांत सगळ्यो मेळून सोळा कथा आसात. हातुंतल्यो एक दोन कथा सोडल्यार हेर सगळ्यो स्त्रीप्रधान आसात. ह्या कथांतलीं कितलींशीं पात्रां म्हळ्यार अस्तुरेचीं तरेकवार रुपां. *'मृगजळां'* तल्या कथांतल्यो अस्तुऱ्यो केन्ना फुलां जावन प्रसादाच्या रुपान वायट मनशाच्याय हातांत पडटात जाल्यार केन्ना कोळशां वरी भोग भोगून ओल्या वांगडा सुक्याकूय पेटोवन सोडटात.

'मोनी बावली' ह्या संग्रहांतली पयली कथा. हांव हे कथेकं उत्कृश्ट कथा म्हणन. हे कथेंतली मोनी बावली जयप्रदा सुखाचीं सपनां आनी उमेदीचीं नखेत्रां पुंजावन लग्न जावन केरळच्यान गोंयां येता. तिका उलोवंक येता. पूण भाशेच्या बंधना खातीर मोनी रावचें पडटा. वेंतभर पोटाचो प्रस्न सोडोवंक तिचो घोव नोकरे निमतान सात-आठ दीस घरा भायर उरता. तेन्ना ती साप्प एकसुरी पडटा. तिची तान भागोवंक तिचो घोव तिका पुराय दर्या हाडून दिता. पूण तिचे खातीर खाऱ्या उदकाचो दर्या न्हय तर साव्या उदकाचो एकूच थेंबो पुरो म्हणपाची जाणवीक ताका जायना. वेंतभर पोट भरतना अस्तुरेच्या हड्ड्यांत मुठभर काळीज आसा म्हणपाचें एक दादलो विसरता. हाचो परिणाम कितलो भयंकर जाता तें जाणून घेवपाक ही कथा वाचची.

'काळ्या पिड्डुकांचें वजें' आनी 'पिसाय' ह्या दोनूय कथांनी समानताय आसा. ह्या कथांतलीं शुभलक्ष्मी आनी विभा कथानकाचे सुरवातेक न्हंयां सारकीं शांत व्हांवतात. 'पिसाय' कथेचें निवेदन एके कडेन वाचप्यांक बॅडरुमाच्या चार वणटीं भितर जावपी अन्यायाचें दर्शन घडयता आनी विचारांच्या भोंवऱ्यांत घुसपावन दवरता. निकतींच लग्न जावन हनिमून मनोवपा खातीर नितीन आनी विभा बॅंगलोर आयिल्लीं आसतात. त्या वेळाचें हें वर्णन –

'रातचीं भायर जेवन तीं हॉटेलांतले आपले कुडींत आयलीं. नितीन सिगार ओडूंक गॅलरींत वचून उबो रावलो. विभान कपडे बदल्ले आनी सपनाचे कळे फुलपाची वाट पळयत धडधडट्या काळजान खाटीर बसलें. पूण ताच्या सपनाचो कळो फुलचे पयलींच नितीनान किचमिलो. एका वादळा भशेन तो आयलो आनी विभाक असंख्य यातना दिवन खरशेत खरशेत पेल्यान न्हिदलो.'

आज कितल्याश्या बायलांचेर आपल्या घोवां कडल्यानूच अशे बलात्कार घडटात. खंयचेय अस्तुरेन अशें उकतेपणीं सांगल्यार हो समाज तिका पिशीच म्हणटलो. ह्या अन्याया आड लेखिकेन मात आपलें मत नि:संकोचपणान मांडलां. ह्या दोनूय कथांतलीं पात्रां सुरवातेक केल्ले अन्याय मोनेपणान सोंसतात आनी दुकांय मोन्यांनीच पितात. मात, एक दीस उदक गळ्या मेरेन पावता. एका वेळार पवित्र बंधनाची निशाणी म्हूण गळ्यांत घाल्ल्या मंगळसुत्राचो धागो गळ्या भोंवतणी गळफास जाता. तेन्ना कितें? प्रस्नाची जाप ह्यो दोनूय कथा वाचल्यारूच कळटली.

मायाची आनीक एक खासियत म्हळ्यार धर्म, परंपरा आनी संस्कृतायेच्या नांवान घुस्मटपी बायलो तिच्या कथांतलीं पात्रां जावन तकली वयर काडटात. 'जोगम्मा' ही कथा वाचतना जयंती नायक हांच्या *कुककमादेवीची दिपमाळ* ह्या नाटकाची याद जाले बगर रावना. हें नाटक हांवें फाटल्या दिसांनी वाचलें आनी धर्माच्या नांवान असल्यो क्रूर विधी आजुनूय भारताच्या कांय कोनशांनी घडटात म्हणपाचें कळटकूच मन अस्वस्थ जालें. 'जोगम्मा' हे कथेचो आशय अशेच तरेचो. भुरगेपणांत येल्लम्मा देवीक माथ्यार घेवन पयशे मागूंक भोंवपी बायलांक हांव पळयतालें. पूण तांचे विशीं जाणून घेवचें अशें म्हाका केन्नाच दिसलें ना. 'जोगम्मा' ही कथा हांवें वाचली तेन्ना मात येल्लम्मा देवीचो मुकूट माथ्यार घेवन भोंवपी शारदाम्मा आपल्या काळजांत कितले कांटे सोंसता हाची जाणीव म्हाका जाली. तरी आसतना आपल्या धुवांनी धर्माच्या नांवान ही परंपरा चालू दवरची अशें तिका दिसता. जयंतीबायच्या नाटकांत गांवकार जाणार आनी बुदवंत एकठांय येवन एके ल्हान चलयेन देवीची दीपमाळ आपल्या माथ्यार घेवची असो थाराव घेतात. तेन्ना ते चलयेचे घरचीं विरोध करतात. मात मायाचे कथेंत देवी आपल्याचेर रागार जावची न्हय म्हूण शारदाम्मा स्वताच्याच धुवांक आपूण जावन रेव्यांत लोटूंक सोदता. आपली धूव तुळजाई मोग करून एका नुस्तेकारा कडेन लग्न जावपाचीं सपनां पळयता तो तिका अधर्म दिसता. जाल्यार, 'जोगम्मा' जावन एका परस चड दादल्यां कडेन संबंध दवरप म्हळ्यारूच ती धर्म समजता. ह्या तिच्या अडाणपणा विशीं काकूळट दिसता.

आयच्या सुधारिल्ल्या समाजांत आजुनूय चली हें परक्यालें धन मानपी लोक आसात. चलयेच्या जल्मा वेळार तिका उणाक लेखून नाक मुड्डुपी पात्रां *मृगजळां*तले 'बायेचें लग्न' हे कथेंत पळोवंक मेळटात. गर्भजळ परिक्षे वरवीं भुरग्याचें लिंग वळखून चली भुरग्याक मारून उडोवपी घडणुको आजुनूय घडटात. असल्या निष्ठूर मनशांचेर लेखिकेन आपले 'दुदावयली साय' हे कथेंत अचूक बडी मारल्या.

माय्राबायच्या कांय कथांनी कांय कडेन तपशिलाच्यो चुकी

उरिल्ल्यान वाचप्यांचो रसभंग जावं येता. देखीक, 'बायेचें लग्न' हे कथेंत 'खालीदागेर फाटोफाट तीन भुरगीं जाल्लीं' अशें विधान ती करता. पूण प्लमिंगाचो कोर्स करून नोकरेक लागिल्लो खालीद लग्न जाल्ल्याची खबर खंयच मेळना. 'ममता', 'सवतीचीं भुरगीं' आनी 'उश्णी आवय' ह्यो कथा बरयतना तिणें हुतहुतेपण केल्ले वरी दिसता. खंयचींय पात्रां जिवीं तट्टटीत जावन वाचप्यां मुखार उबीं रावतलीं जाल्यार सरभोंवतणचो वाटार आपल्या पात्रां भोंवतीं उबो करप चड गरजेचें आसता. भोंवतणच्या वाटाराच्या वर्णना शिवाय पात्रांचेर अन्याय जाल्ले वरी दिसता. 'उश्णी आवय' कथा वाचतना 'चोरी चोरी चुपके चुपके' सिनेमाची हय-न्हयशी याद जाता. भाड्याचो कुसवो वो surrogate mother हो विशय नवो न्हय. पूण ही कथा बरयतना थोडी सादूरताय बाळगुपाची गरज आसली अशें म्हाका दिसता. 'चोरी चोरी चुपके चुपके' सिनेमांतली बायल-मनीस आपल्याक भुरगें जावचेंना हें कळटकच आपल्या घोवाक एके परस्त्री लागीं संबंध दवरूंक सांगता. हें सहजपणान स्वीकारूंक जाता. पूण 'उश्णी आवय' है कथेंत करिश्माक आपूण आवय जावंक असमर्थ आसां हें कळटा तेन्ना आपल्या आवय-बापायक वेगळेंच निमित्त सांगून तें आपले मंद बुद्दीचे भयणीक — कल्पिताक — आपल्यागेर व्हरता. तिचे पसून आपल्या घोवाचें भुरगें मेळोवन घेता. ज्या वेगान ही कथा धांवता तें पळेतकच निवेदनाचेर थोडो संयम दवरून ही कथा बरयल्ली जाल्यार अदीक बरें जावपाचें अशें दिसले बगर रावना. मंद बुद्दीच्या कल्पिताक आपल्यागेर हाडप, ताका दीस वचप आनी भुरगें जावप, तेंवूय बी ताकाच सुलूस लागूंक दिनासतना? हें पचपाक मातशें कठीण लागता. अस्तुरेच्या मनाची तयारी नासतना घोवान आपले स्वताचे घरकान्नी कडेन शारिरीक संबंध दवरल्यार 'पिसाय' कथेंतल्या पात्राच्या तोंडांत 'बलात्कार' हें उतर येता. पूण हांगा एक भयण आपले मंद बुद्दीचे भयणीचो गैरफायदो घेवंक फाटीं रावना. हीं विरोधी मतां पळोवन वाचकाच्या मनांत घुस्पट जावं येता. एका वेळार अस्तुरेन आपल्या घोवाक मारून उडयलो वा आपल्या पोराक रस्त्यार सोडलें म्हूण सांगल्यार सट्ट करून विस्वास दवरूंक जाता. पूण ही कथा मातशी 'विचित्र' दिसता. खंयचीय गजाल वास्तवीक रुपान स्वीकारूंक जड लागता तेन्ना काल्पनीक नदर आदाराक येता. मात हे कथे विशीं अशें जाल्लें दिसना हें म्हजें मत.

*'मृगजळां'*तल्यो कथा वाचतना एक गजाल अचळय होलमता, ती म्हळ्यार, लेखिकेचो आशावाद, तिच्या कथांतलीं पात्रां परिस्थिती मुखार लाचार जावन खाला पडपाची चूक करतात. पूण खाला पडटकच थंयच रावपाचो गुन्यांव मात तीं करिनात. आपले मुखार आशिल्ल्या आह्वानांक तोंड दिवन जंय शेवट जाला थंयच्यान एक नवी सुरवात करतात. जिणे कडेन संघर्श करपी आयचे अस्तुरेक ह्या पुस्तकांतल्यान प्रेरणा मेळटली हातूंत मातूय दुबाव ना. दुसरें, माया कथा बरयतना सादी-सोपी उतरावळ वापरता. अलंकारांचो शृंगार नाशिल्ली ताची भास समजून घेवपाक कसलेच कश्ट पडनात.

'उश्णी आवय' हे कथे वरवीं ह्या संग्रहाक आयिल्लें कमीपण लेखिकेन 'मन वळटा... वळना' हे कथेंतल्यान भरून काडलां. ही कथा वेगळ्याच आशयाचेर आसा. एक विधवा कशे तरेन आपल्या पुताच्या स्पर्शान सुखावता हाचें वर्णन हांगा लेखिकेन बेस बरें केलां. तरणी धाकटी आसतनाच विधवा जाल्ली शारदा आपल्या सानुल्याचें येवजून दुसरेपणीं लग्न जावपाचो विचार सोडून दिता. पूत वाडत वता तसो तो आपल्या इश्ट-मित्रां बराबर उरता आनी ही एकसुरी पडटा. इतलीं वर्सां चिड्डून धरिल्ली तिची वासना ल्हवू ल्हवू जागी जाता आनी ती दादले-मनशाच्या सहवासाक आशेता. तेन्ना दुयेंत आशिल्ल्याचें निमित्त करून ती पुता कडल्यान आपल्या आंगाक बाम लावन घेता. पांय दांबून घेता. मातृत्वाच्या नांवान आपल्या पुताक आशेता - पोशेता. ताच्या स्पर्शांतल्यानूच एके तरेचो आनंद ती जोडटा. आपूण करतां तें वायट म्हणपाचीय जाणवीक तिका जाता. पूण तिची कूड तिका सांगात दिना. हो विशय हाताळूंक जाय आशिल्लें धाडस मायान दाखयलें म्हूण तिची तोखणाय करूंक फावो. लैंगीक आगळिको दादलोच करता अशें आमी सामान्यतायेन मानतात. बायलूय दादल्याचो लैंगीक फायदो घेता हेंत्रूय तितलेंच खरें. हे कथेंतल्यान मायाबायन एका कोडू सताचेर उजवाड घाला.

अस्तुऱ्यांचो सभाव विचित्र. आमकां आमचें वय विचारल्यार राग येता पूण वाडदीस मनोवंक मात खोस भोगता. कोणें तरी म्हणलां, तुजे बायलेचो वाडदीस तुका याद उरूंक जाय जाल्यांर एकदांच तो विसरून पळे. आपलो वाडदीस विसरतकच एके अस्तुरेक कितलें वायट दिसता हें जाणून घेवंक मायाबायची 'पन्नाशी' वाचून मनरिझवण करून घेवची. 'दायज', 'उधाराश्रम', 'कांट्यांतली वाट' आनी घरपुरीस ह्या कथांनीं *'मृगजळां'*त खेरीत भर घाल्या. आधुनिकीकरणाच्या नांवान कांय आवयो लग्न जाल्ल्या आपल्या धुवांक गिरेस्तकायेचीं पांखां लावन कश्यो मळबार सोडटात आनी, हे पाखाटे मोडटकच तांची दशा कशी जाता तें 'म्हजी मोगाची धूव ती' कथा दाखयता.

म्हज्या मतान खंयच्याय लेखकान पेन हातांत धरतना आपणा कडेन प्रामाणीक आसप खूब गरजेचें. जो मनीस आपल्या मना कडेन प्रामाणीक आसता तो दुसऱ्याक फटोवंक शकना आनी आपल्याचीय फटवणूक करून घेना. मायाबायच्या आंगांत हो प्रामाणीकपणाचो गूण आसा. 'उश्णी आवय' ही एकूच कथा सोडली जाल्यार हेर सगळ्या पात्रांक भरपूर न्याय मेळ्ळा अशें म्हणूं येता. गरज थंय पात्रांची निजाची बोली तांच्या तोंडांत घाल्या आनी ह्या संग्रहाचो दर्जो वाडयला. देव-धर्म, भक्ती, श्रद्धा, चाल-चलणुको हांच्या वज्या पोंदाक चिड्डून जगतां जगतां मरपी आनी मरतां मरतां जगूंक शिकपी अस्तुऱ्यांक आपल्या स्वत्वाची वळख करून दिवंक *मृगजळ* हो कथां झेलो यशस्वी थारतलो अशें हांव अभिमानान सांगूंक शकतां.

भौ. अवधूत आमोणकार हांणी राजाई प्रकाशनाचे वतीन हें पुस्तक उजवाडा हाडलां. गौरीश वेर्णेकाराचो हात ह्या पुस्तकाच्या मुखपृष्ठाचेर कलात्मक तरेन भोंवला. हे कथां झेलो लेखिकेन ज्ञानपीठकार रवीन्द्रबाबांक भेटयला. मायाबाय कडल्यान हे मुखारूय मनीस-जातीच्या विंगड-विंगड तासांचेर बरयल्ल्यो आनी प्रादेशीक शिमो हुपपाची तांक आशिल्ल्यो कथा आमकां वाचूंक मेळच्यो अशी इत्सा.

**मृगजळ** (कथां-झेलो)
- माया अनिल खरंगटे. राजाई प्रकाशन, केपें-गोंय, २००९
पानां: १२४, मोल: १४० रु.

# जाग

वर्स ३५ : ऑगस्ट २००८ — जुलय २००९

## साहित्य वळेरी

□ **वैचारीक/ललीत निबंद**

**नदर संपादप्याची**

ऑगस्ट हीरानंदानी गार्डन्स, पस्तिसाव्या वर्सांत पावल घालतना.
सप्टेंबर सार्त्र, कुन्या, शणै गोंयबाब
जानेवारी शेणूंक पाविल्ल्या कोंकणीच्या तारवाक वाट दाखोवपी दीपस्थंभ...
फेब्रुवारी फादर मातेव आल्मेद; एक आस्वादन
मार्च कोश साहित्य आनी भाशेचें सशक्तीकरण
एप्रील-मे माँ
जून-जुलय उतरां...

**साहित्य नियाळ/समिक्षा**

ऑगस्ट *'ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो':* प्रवास चिरंतनांतल्यान चिरंतना मेरेनचो - चंद्रलेखा डिसौजा
सप्टेंबर *'मळबझेंप'*: एक नदर - नूतन साखरदांडे
ऑक्टो.-डिसें. मनाचीं क्षितिजां रुंदावपी पुस्तक ('Ethnography of Goa, Daman and Diu'- A. B. de Braganca Pereira, मूळ पुर्तुगेज पुस्तकाचो मारिया आवरोरा कौतु हांणी केलो इंग्लीश अणकार.)
कोंकणी कवितेंतलो समृद्ध काव्याविष्कार: *'एक कृष्ण-कळी'* - आशा मणगुतकार
*'पिसोळ्याच्या पाखा...'* - तुकाराम रामा शेट
जानेवारी पांडुरंग भांगी: जिवीत आनी कवीत - माधव बोरकार
*'ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो':* आत्ममंदिराची यात्रा - सुरेश गुंडू आमोणकार
फेब्रुवारी जिविताच्या प्रस्नांच्यो जापो सोदपी [पांडुरंग भांगी हांची] कविता - माधव बोरकार.
मार्च हे कवितेची वाट वेगळी [पांडुरंग भांगी हांची कविता] - माधव बोरकार
शरतबाबूंच्यो अणकारीत नवलकथा (*'बिंदूलो बाबू', 'मदली भयण', 'अबुद्दी'* - नरेंद्र कामत हांणी केल्ले अणकार) - रजनी भेंब्रे
एप्रिल-मे मनशाच्या एकसुरेपणाचो सोद घेवपी [पांडुरंग भांगी हांची] कविता - माधव बोरकार
थळावेपणाच्यो मर्यादा हुपून मुखार वचपी मेल्विनाची कविता - पुंडलीक ना. नायक
'स्त्री असण्याचा अर्थ' - एक काव्यात्म अर्थावणी - योगिनी आचार्य
जून-जुलय कोंकणी कवितेंत लोहिया - राजय पवार
रवीन्द्र केळेकारांचें साहित्य: कोंकणी भास आनी साहित्याक मेळिल्ली दिका - प्रकाश पर्येकार
*समर्पण:* कोंकणी साहित्यांतलो एक आगळो-वेगळो प्रयोग - गोरक शिरसाट

**हेर**

ऑगस्ट पारशां विशीं हिन्दू सामकेच उदासीन कशे? - रवीन्द्र केळेकार
सप्टेंबर त्रिशतांव ब्रागांझ कुन्या: एक दायज - बाळकृष्णजी कानोळकार
एकूच जॉब, एकूच बॉस - रवीन्द्र केळेकार
ऑक्टो.-डिसें. कोंकणी : इतिहास आनी भुगोल - एक मंथन - माधवी सरदेसाय
तरूय मानतां देशाक सुंदर फुडार आसा - रवीन्द्र केळेकार
स्मरणीय शब्द-पांडुरंग - रमेश भगवंत वेळुस्कार
डॉ. त्रिशतांव ब्रागांसा कुन्यांचो उगडास करतना - मोउजीञु द आताईद
हिशोब - शीला कोळंबकार
याद आसा तुका...! - जयमाला दणायत
योकोसो जपान - हर्षा शेटये
नडणी - श्रुति साळगांवकार
जानेवारी गुपाट काळखांत उजवाडाचें एक कीर्ण: मुसलमान बदलतात... पुराय बदलतले - रवीन्द्र केळेकार
फेब्रुवारी नव्या पर्वाच्या हुमऱ्या वयल्यान (१९व्या अखील भारतीय कोंकणी साहित्य सम्मेलनांत केल्लें उद्घाटकाचें उलोवप) - रवीन्द्र केळेकार
एका इश्टाची कथा - अना म्हांबरो (वांगडा *तरेतरेचीं सवंगां* पुस्तकांक बरयल्ली अना म्हांबरो हांची प्रस्तावना)
चंद्रकांतबाब: एक कर्तुत्वी व्यक्ती - नागेश करमली
मार्च डॉ. राम मनोहर लोहिया: एक भोवं - आयामी व्यक्तिमत्व - नागेश करमली
एप्रील-मे तुकोबाराय: एक सामाजीक क्रांतीवीर - सुरेश गुंडू आमोणकार
केगदी वेळे वयल्यो घुलो - २ - मनोहर पै धुंगट
दर एकलो गोंयकार एक तियात्रिश्ट - सॅतिर बार्रेत
चेन्नय - कांचीपुरम - महाबलीपुरम - हर्षा शेटये
जून-जुलय एम् बॉयर: एकूच रस्तो दाखोवपी एक निजाचो गोंयकार - सॅतिर बार्रेत
कुडतरीचीं शेतां आनी लोकांच्या तोंडार घोळपी उतरां - डेनिस वाज
योकोसो जपान: माउंट फुजीच्या परिसरांत - हर्षा शेटये

**खिर्स्तींनी चलपी लेखां-माळ**

ऑगस्ट-सप्टें. दर्या गाजोता (र. वि. पंडितांची आप-जीण)
ऑक्टो.-
जून-जुलय दिसपटी - शांताराम आमोणकार
जानेवारी- कोंकणी चळवळींत पन्नास वर्सां: तिगून उरिल्ल्यो यादी
जून-जुलय - उदय भेंब्रे

□ **मुलाखत**

फेब्रुवारी चंद्रकांत केणी हांची मुलाखत घेवपी: गुणाजी देसाय
सुरेश बोरकार हांची मुलाखत घेवपी: मुकेश थळी

□ **कथा**

ऑगस्ट पलतड-आलतड - सुधा खरंगटे
सप्टेंबर सैम - सोबीत नेहा - प्रकाश पर्येकार
ऑक्टो.-डिसें. दुःखा दुवाळे - महाबळेश्वर सैल
अशेंच एक दीस - सुधा खरंगटे
अभयारण्य - प्रकाश पर्येकार
शिराप - माया खरंगटे

दामू - सॉतिर बारेंत
तडव - अरुण साखरदांडे
दो रे मी फा... सा रे नी सा - मुकेश थळी
जानेवारी पोन्नें कापड - विठ्ठलराय भट
एप्रील-मे 'मनशांच्या गांवांत - दामोदर मावजो
घुस्मटमार - नागेश नायक वडिये
जून-जुलय चिंपांझी - एडवीन जे. एफ्. डिसोझा
पापा, तूं म्हाका जाय- माया खरंगटे

□ कविता

ऑगस्ट दोन कविता (केन्ना; रानफुलां) - परेश नरेंद्र कामत
आयला जोर - सॉतिर बारेंत
दोन कविता (गंगाघाट-हरिद्वार; चार मिनार- हैदराबाद)
- हर्षा शेटये
दोन कविता (क्षितीजमेर; काळखाचीं रिणां) - राजश्री सैल
मोतयां - गोरक शिरसाट
सप्टेंबर कदंब बसस्टँड - मडगांव - राजश्री सैल
दोन कविता (जल्म-मरणाचे मदीं; नक्षत्रां खातीर)
कुवाडें- नरेश नायक
पावस - गोरक शिरसाट
ऑक्टो.-डिसें. रवीन्द्रबाबाक ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळटकीच- नागेश करमली
रवीन्द्रबाबाक - सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार
माधवी - निलबा खांडेकार
एक ॲडल्ट कविता- काशिनाथ शांबा लोलयेकार
दोन दीर्घ कविता (एक चीट... मोगाळ आईक; एक चीट...
सुरबूस आईक) - हनुमंत चंद्रकांत चोपडेकार
मनांत म्हज्या- माधव बोरकार
त्रिशंक- बाळकृष्णजी कानोळकार
प्रतीक ईश्वराच्या आविश्कारार्चे- प्रकाश पाडगांवकार
चार कविता- रमेश भगवंत वेलुस्कार
नांगर- आर्. एस्. भास्कर
दोन कविता (तुरकेमटीचें तळें; भूल) - सुधीर कोडकणी
पांच कविता (खंय तरी भितर; दर्याक उतर बादता;
फातोड्ड भेरेल्या; कांय जाणांनी; स्पर्श आसचो)
- सु.म.तडकोड
पुनर्जल्म - नूतन साखरदांडे
दोन कविता (शुभंकर; गर्भगाबणी सांज) - परेश नरेंद्र कामत
तुका जाय तशें- राजश्री सैल
दोन कविता (पक्वान...; तुजें म्हजें नातें...)
- सुशिला हळर्णकार
ओंवळां - गोरक शिरसाट
तीन कविता (अशें कशें?; ठोकशाय!, कुयदाद)
- संहिता कुलकर्णी
रात - सुफला रुद्राजी गायतोंडे
दोन कविता (पान; रूख) - महेश पारकार
जानेवारी नचिकेता तूं सामान्य मनीस? - प्रकाश पाडगांवकार
फेब्रुवारी तीन कविता (घुमघुम; एक तरंगत राविल्लो शब्द; रगत)
- परेश नरेंद्र कामत
गांवांत म्हज्या- आर्. एस्. भास्कर
अशें दिसता- अरुण साखरदांडे
एप्रील-मे व्हडवीक सत्यकाम जाबालाची- प्रकाश पाडगांवकार
शांत उस्तुपी कविता- रमेश भगवंत वेलुस्कार
हांव पन्नशीचो जालों... - बाळकृष्णजी कानोळकार
दोन कविता - सु. म. तडकोड
दोन कविता (फुलांचे घोंस फुटून; उत्सव) - परेश नरेंद्र कामत
कॉल सँटर आनी ती - राजश्री सैल
जून-जुलय इतिहासः उगडासांचो - नागेश करमली
दोन कविता (दर्यावेळेर; शेजारी...) - सुशिला हळर्णकार
तीन कविता (जनेलांत; फुलांचो गोण; झुळूक)
-परेश नरेंद्र कामत
दोन कविता (कृष्ण विरह; अनवळखी)- राजश्री सैल

□ अणकार

□ वैचारीक निबंद (इंग्लीश)

एप्रील-मे गांधी, लोहियाः चिरंतनं आशावादी
- एस्. आर्. नेने अणकारः मुकेश थळी

कथा/नवलकाणी

ऑगस्ट मृत्यू-उत्सव (गुजराती)- नामदेव ताराचन्द्राणी
अणकारः नयना आडारकार
दोन तीर्थयात्री (रशियन) - लेव टॉलस्तॉय
अणकार (इंग्लीशी वयल्यान) : भालचंद्र राव
सप्टेंबर सहाय (हिन्दी) - सआदत हसन मंटो
अणकारः उन्नती मांद्रेकार
पातकी (रशियन)
अणकार (इंग्लीशी वयल्यान): भालचंद्र राव
ऑक्टो.-डिसें. एक झूज दर्या कडेन (इंग्लीश नवलकाणी) - अर्नेस्ट हेमिंग्वे
अणकारः नरेंद्र काशिनाथ कामत
अनवळखी (मराठी) - मोनिका गजेंद्रगडकर
अणकारः योगिनी आचार्य
आनी, एक फायल बंद जाली (हिन्दी)- किशन चन्दर
अणकारः ज्योती देसाय
शेतकार आनी सैतान (रशियन)
अणकार (इंग्लीशी वयल्यान) : भालचंद्र राव
जानेवारी मरियम (हिन्दी) - कमलेश्वर
अणकारः प्रकाश पर्येकार
मार्च फुटक्या नशिबाचें भागी (सिंधी)- माया राही
अणकार (हिन्दी वयल्यान) - माया खरंगटे
एप्रील-मे हुलप (कन्नड) - फकीर मुहम्मद कटपाडी 'दहना'
अणकारः रमेश लाड
जून-जुलय सभ्य समाजांतले असभ्य (हिंदी)- सुषमा मुनींद्र
अणकारः उदय देशप्रभू

□ कविता

ऑक्टो.-डिसें. तुकारामाचे सोळा अभंग (मराठी)
अणकारः सुरेश गुंडू आमोणकार
फेब्रुवारी घोड्यां खेळ (मलयाळम)- अयप्पा पाणिक्कर
अणकारः राजश्री सैल

□ हे भायर

ऑगस्ट, सप्टेंबर, जानेवारी, मार्च, एप्रील-मे च्या आंकांनी प्रियदर्शिनी तडकोडकार हांचें 'साहित्य-समीक्षाशास्त्रांतल्यो संकल्पना' सदर (अस्तित्ववाद, अनुभववाद, अप्रतिरूपवाद, अनुमितीवाद/अनुकृतीवाद, अतींद्रियवाद, अभिजातवाद, अभिहितान्वयवाद आनी अन्विताभिधानवाद, अभिव्यक्तिवादः१, अभिव्यक्तिवादः२)
फेब्रुवारी, मार्च आनी एप्रील-मे च्या आंकांनी 'पडसाद' सदरांत ज्योती देसाय, प्रोबाल दासगुप्ता, रवीन्द्र केळेकार, प्रकाश वजरीकार, अना म्हांबरो, मनोहर पै धुंगट, आनी एन्. आनन्दन हांच्यो चिटी
ऑगस्टच्या आंकांत जाग वर्स ३४: साहित्य वळेरी



# स्वातंत्र्यदेवी, तुका नमन

आयज आमी म्हणोवन घेतात स्वाभिमानी नागरिक .. उदरगतीच्या पावंडयार आशिल्ल्या एका घटमूट राष्ट्राचे. याच उदरगतीच्या बळाचेर भारतात संवसारीक नकाशाचेर एक महाशक्त म्हणून आपली व्हडविक सिध्द केल्या. हे जावंक पावलें कारण ६२ वर्सांपयलीं आमच्या कितलेशेच देसभक्तांनी हे स्वातंत्र्य आमकां प्रदान केलें – जाका आमी आयज समजतात आमचो जल्मसिध्द अधिकार

भारताच्या स्वातंत्र्याखातीर झगडिल्ल्या साबार ज्ञात–अज्ञात वीरांक आयच्या समयार शतशत आर्गां.



भारतीय स्वातंत्र्य चिरायु जावं





"स्वातंत्र्यदिसाचे मंगलसमयार गोंय सरकार कटिबध्द आसा आम आदमीच्या सपनपूर्ततायेखातीर, सकारात्मक धोरणां राबवपाखातीर, कृतीशील प्रशासन दिवपाखातीर आनी फायचो भांगराळो भारत प्रत्यक्षात हाडपाखातीर. जय हिंद "

– दिगंबर व. कामत
मुखेलमंत्री, गोंय राज्य




प्रस्तुती
म्हायती आनी प्रसिध्दी खाते
गोंय सरकार



हो उदकाचो निमणो थेंब आसलो जाल्यार कितले जतनायेन तुमी तो वापरतलीं?

**उदक जतनायेन वापरात.**

पोरसांत उदकाचो फसफस करूं नाकात. मनशांक ताची अदीक गरज आसा. गरज ना थंय उदकाचो वापर टाळात. उदकाचेर तुमचे वरी तुमच्या शेजाऱ्यांचोय हक आसा. तुमगेल्या उदकाच्या सांठ्यात आनी एका दिसाच्या उदकाची तजवीज आसची, हाची तुमकां गरजेच्या वेळार मदत जातली.

वापरा उपरांत नळ सारको बंद करात

नळांतल्यान, व्हाल्वांतल्यान, टांकयेंतल्यान वा पायपांतल्यान गरजे भायर व्हांवपी उदक वाटायात.

उदकाची पुरवण करपी पायपांतल्यान उदक गळटा वा व्हांवता, वा कोणूय बेकायेशीर पद्दतीन पायपांतल्यान उदक काडटा आसत जाल्यार तें उपकार करून आमच्या लक्षांत हाडून दिवचें.

**तुमच्या आदाराक नं. २४२००६९, २४२००७० (सकाळीं ८ ते सांजे. ८ मेरेन)**




पणजी वाटार: २२२६४४६

वास्को वाटार: २५१२३८२

मडगांव वाटार: २७१४७७७

फोंडें वाटार: २३१२०८१

म्हापशें वाटार: २२६२३७४

आयज तुमी तुमच्या वांट्याचें उदक जतनायेन वापरलां मूं ?

लोकांच्या हिता खातीर उजवाडावपी

# सार्वजनीक बांदकाम खातें

गोंय सरकार

Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset Printers, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Madhavi Sardesai